# कोंकणी निबंध





- रजनी अशोक भेंब्रे

KONKANI ESSAY
BY - RAJANI ASHOK BHEMBRE

बरोवपी - रजनी अशोक भेंब्रे

प्रकाशन क्र. ४






पयली उजवाडावणी : १ ऑक्टोबर २००१
दुसरी उजवाडावणी : १ डिसेंबर २००३
तिसरी उजवाडावणी : २१ ऑक्टोबर २००७

उजवाडावपी - रजनी अशोक भेंब्रे
श्री दामोदर प्रकाशन
जी, ३ अत्रेय अपार्टमेंट
मोरायलें, कुडचडें - गोंय ४०३ ७०६

छापपी - बामा ऑफसेट प्रिंटर्स, कुडचडें

मोल : रु. ६०/-

# निबंद - माळ

( यत्ता ५ वी ते ७ वी )

निबंद लेखन म्हणल्यार विशयाची मांडणी, मुद्देसूदपणा. फावो त्याच शब्दांचो वापर करप. भाशेची सोबीतकाय. आपणें बरयिल्लो निबंद सोप्या आनी सुटसुटीत भाशेंत आसूंक जाय. तेच परी तो वाचपाकय बरो लागूंक जाय. आपल्याक जें कितें सांगपाचें आसा तें वाचप्यामेरेन सहजतायेन पावपाक जाय. निबंदाचो विशय मोट्या अक्षरांत पेपराचे वयर मदीं बरोवंक जाय.

अनुक्रमणिका

# गाय

गाय एक पाळीव जनावर. ती सभावान मायेस्त आसता. गायेक चार पांय, दोन शिंगां, दोन कान, दोन दोळे आनी सोबीत बरी झुपक्याची शेपडी आसता. गायेचो रंग साधारणपणान धवो, काळो आनी तांबसो आसता.

गाय तण, झाडांचो पालो आनी आमी दिल्लें अन्न फळां बी खाता. गायेचें दूद पुश्टीक आसता. तें पिल्यार शक्ती येता. गायेचें दूद पचपाक हलकें आसता. ल्हान भुरग्याचे वाढीखातीर गायेचें दूद भोवच गरजेचें आसता. गायेचें दूद सगळ्यांक आवडटा.

गायेच्या दुदापसून धंय, ताक, लोणी आनी तूप तयार करतात. गायेचें तूप वखदी म्हणूनय उपेग करतात. गायेच्या चामड्यापसून बूट, जोतीं, बॅगां करतात. गायेच्या शेणापसून जळपाक शेणी थापतात आनी शेणा पसून सारेंय तयार करतात. खेड्यांनी मातयेच्या घरांच्यो जमनी शेणान सारयतात, आनी निर्मळ-नितळ करतात. गायेचें मूत पवित्र मानतात आनी घरांत शिंपडायल्यार घर पवित्र जालें अशें मानतात.

गाय एक भोवच उपेगी जनावर जावन आसा. गायेचो नर पाडको आसता ताका व्हड जातकच बैल म्हणटात. बैल शेत जोतपाचें काम करता आनी बैल गाडीय ओडपाचें काम करता. जंय मोटार वा ट्रक पावना अश्या जाग्यांनी बैलगाडी खूब उपेगी पडटा. गांवानी बैलगाडयेचो चड उपेग जाता.

गाय मायेस्त आशिल्ल्यान तिका आमी आवय सुवातेर मानतात. म्हणून तिका 'गोमाता' अशें म्हणटात. हिंदू लोक गायेची पुजा करतात. जेन्ना देवदेवसपण आनी सणांचे वार आसतात तेन्ना आमी गायेक अन्नाचें पान वाडटात. जर गाय गोठ्यांत आसत तर

घरचीं मनशां जेवचे पयलीं गायेक जेवयतात आनी मागीरच घरचीं मनशां जेवतात. जर घरची गाय नासत तर तिका पयलीं पान काडून दवरतकच जेवण सुरू करतात.

दिवाळेच्या दुसऱ्या दिसा गोरवांचो पाडवो मनयतात तेन्ना गोरवां राखपी राखणो धेणलो माथ्यार घेवून दारा-दारांनी भोंवता आनी धेणल्याचीं गितां गायता. त्या दिसा गाय आनी बैलांक बरे तरेन सजयतात. गळ्यांत रोजांच्यो माळी आनी नाल्लाचें वळें घालतात आनी तांची पूजा करतात. गाय आमकां खूब उपेगी पडटा म्हणून आमी तिच्या सदांच उपकारांत उरतात.

****

# कुत्रो

कुत्रो हें एक पाळीव जनावर आसा. ताका चार पांय, दोन कान, दोन दोळे आनी नाक आसा. ताचे चार पांय ताका जाता तितलो सडसडीत धांवपाक मदत करतात. ताचे कान सदांच शिटूक आसतात. कितलोय हळू आवाज आसूं कुत्र्याक ताची सुलूस लागता. आमकां पळयल्यार दिसता कुत्रो सुस्त न्हिदला पूण मातशी लेगीत सुलूस कानांत पडल्या बरोबर तो तटमटीत जागो जाता. वासा वेल्यान वळखुपाक ताचें नाक ताका व्हड आदार करता. धांवतना ताचें तोंड सदांच उगडें उरता आनी जीब भायर हुमकळटा. ताची शेपडी सदांच वांकडी आसता. म्हणच आसा - कुत्र्याची शेपडी वांकडी ती वांकडीच. ताची शेपडी केन्नाच सरळ जायना. नळयेंत घालून दवरल्यार लेगीत जायना.

कुत्रे तरां-तरांच्या जातीचे आनी रंगाचे आसतात. पूण चड करून तांचो रंग काळो, धवो, चॉकलेटी आनी ताचेर काळे-धवे टिपके असो आसता. ताचें आवडटें खाण म्हणल्यार मांस आनी हाडां. तशें तो शीत, पाव, भाकरी, नुस्तें, दूद सगळें खाता. कांय कुत्र्यांक तरेकवार भाज्यो लेगीत आवडटात. मांस खाले नंतर तो वरांची वरां हाडां चघळायत बसता आनी उरलींच जाल्यार मातयेंत वा अन्य जाग्यार लिपोवन दवरता. हाडां चघळप हो ताचो आवडटो छंद.

कुत्रो सोशांची तशेंच ल्हान-ल्हान प्राण्यांची शिकार करता. वेळ प्रसंगार व्हड प्राण्यांची लेगीत शिकार करपाक फाटीं सरना. घराची राखण करप हें ताचें मुखेल काम जावन आसा. जेन्ना आपल्या मालकाच्या घराच्या दारांत वा आशिकुशीक कोणूय अनवळखी मनीस वावुरतना दिसलो जाल्यार तो भुंकपाक सुरू

करता आनी ताका नाकाशेवट करता. पूण जर एकदां घरांत आयिल्ल्या सोयऱ्याची वळख जाली जाल्यार तो ताच्या आंगार वचना. चोरांक मात कुत्रो रोखडोच वळखता आनी तांचे सामको फाटीक लागता.

कुत्रो एक चाणाक्ष जनावर आनी आपल्या मालका खातीर आपलो जीव लेगीत दिवपी, इतलो इमानदार. तो आपल्या घरच्यांकडेन सदांच एकनिष्ट रावपी. घरांतल्या प्रत्येक मनशाचेर तो माया करता. घरांतलो खंयचोय मनीस भायर सरलो कीं ताचे बरोबर वचपाक तो सदांच तयार आसता. ल्हान भुरगीं ताका खूब मानवतात. तांचे बरोबर खेळपाक, नाचपाक उडयो मारपाक ताका भोवूच मानवता. आपलीं आवडीचीं मनशां दिसलां कीं तो तांकां शेपडी हालयता आनी आपलो मोग उक्तायता.

पुलीस खातें कुत्र्यांक खासा शिक्षण दिता आनी चोर वा गुन्यांवकारांक सोदपाक ते तांकां मदत करतात. आयज मेरेन व्हड-व्हड गुन्यांवकारांचो सोद घेवपाचें काम अशे शिकिल्ल्या कुत्र्यांच्या आदारान जालां. गोरवां राखपी राखणे लेगीत दोंगरार गोरवांक राखपाक व्हरतना कुत्र्यांक बरोबर व्हरतात.

खरोखर कुत्रो हो एक उपेगी आनी समजिकाय आशिल्लें जनावर जावन आसा.

****

# हत्ती

हत्ती हो सगळ्या जनावरांमदीं प्रचंड आनी शक्तिवान जनावर आसा. हत्ती जंगलांनी मेळटात, तांकां धरून मागीर तांकां पाळटात. ताचो रंग काळोच आसता. ताचे पांय खांब्याभशेन मोठे आनी गडगंज आसतात. ताचे कान सुपा बशेन व्हड आसतात. देहाच्या मानान ताचे दोळे मात साप ल्हान आसतात. ताका एक लांबच लांब सोंड आसता. सोंडेन तो नाक आनी हातांची कामां करता.

हत्तीचे दोन लांब दांत भायर दिसतात. ते सोंडेचे कुशीक आसतात. ह्या दांतांचो ताका खावपाखातीर उपेग जायना. ताचे खावपाचे दांत तोंडांभितर आसतात. हत्ती आपले सोंडेन झांडाच्यो खांदयो लार्गी करता आनी तांची पानां खाता. तेच वरी तणय खाता.

हत्ती दुर्गम रस्त्याचेर येरादारी करपाक आनी सामान हाडव्हर करपाक उपेगी पडटा. आदल्या तेंपार राजा-महाराजांचें भोंवपाचें साधन हत्तीच आसतालें. लडायेंतय हत्तींचो व्हड प्रमाणांत उपेग जातालो. हालीं दिसांनी हत्ती सर्कस आनी सिनेमांनी दिसता. तांची अचंबीत करपी करतुपां पळोवन लोक अजाप भरीत जातात. हतयाच्या दांतांक खूप मोल आसा. ताचे पसून खेळणीं, अलंकार तयार करतात.

हत्ती एक समजुतदार जनावर जावन आसा. हत्तीची सगळेतरेन वासपूस करप्याक माहूत म्हणटात.

हत्ती चड करून बंगाल, आसाम, केरळ आनी मैसूर तशेंच बर्मा, श्रीलंका आनी आफ्रीका हांगाच्या जंगलांनी मेळटात.



# शींव

शींव हें एक रानटी आनी भयानक जनावर आसा. रानांतल्या सगळ्या जनावरां मदीं हें जनावर चड बुदवंत तशेंच शक्तिवान मानतात आनी म्हणूनच ताका जनावरांचो राजा अशें मानतात.

शींव मांस खावपी जनावर आसा. तो रानांतल्या जनावरांक मारता आनी आपलें पोट भरता. ताच्या आवाजाक गर्जना करप अशें म्हणटात.

शिंवाचे पंजे म्हणल्यार तोंकांच्या धारेचे पांय. जनावरांचेर झडप घालतना तो मुखावेल्या पांयांनी जनावरांक धरता आनी सोमतोच घांस मारून जनावराक जायबंदी करता आनी ताचें रगत पिता. ताचे लांबोडे दांतांचो तो जनावरांक घांसडांवपाक बरे तरेन उपेग करून घेता.

शिंवाचें खाशेलेंपण म्हळ्यार तो दुसऱ्यांनी मारिल्लें जनावर केन्नाच खायना. आपणें मारिल्लें जनावर तो घोलींत व्हरून आपल्याक जाय तितले दीस खाता. ताचे मानेर लांब लांब केंस आसतात ताका 'आयाळ' म्हणटात. मादी शिंविणीक 'आयाळ' नासता. हाका लागून नर आनी मादी सोपेपणी वळखुपाक येता.

रानांतलीं सगळीं जनावरां शिंवाक भियेवन आसतात. इतलें जरी आसलें तरी शिकारी ताका सांपडायतात आनी अभयारण्य तशेंच सर्कशींत व्हरतात. शिंव जरी क्रूर जनावर आसलें तरी लेगीत सर्कशींतलो रिंग-मास्तर चाबकाचो भंय दाखोवन ताचे कडल्यान तरेकवार कामां करून घेता. ताचीं कामां पळोवन बरें दिसता पूण आमी मनीस जात ताचें स्वातंत्र्य हिरावन

घेतात. मुक्त जीण जियेवचेली संवंय आशिल्ल्यान तांकां बंदिस्त जीण मानवना आनी तांकां बेगीन मरण येता.

रानांतली संपत ही सरकारी मालमत्ता म्हणून सरकारान जनावरांची शिकार आनी धरप हाजेर कायद्यान बंदी हाडल्या आनी गुन्यांवकारांक खर ख्यास्तीची तजवीज केल्या.

भारतांत सगळ्यांत चड शींव गुजरात राज्यांतल्या जुनागढ जिल्ल्यांत आसात.

****



# माकोड

माकोड हें एक मजेशीर जनावर आसा. ताचो तोंडावळो सारखो मनशावरी आसता. ताचो रंग राखाडी ना तर तांबसो आसता. ताचें तोंड काळें किट्ट आसता. ताची शेपडी खूबच लांब आसता.

चड करून माकोड रानांतल्या झाडांचेर रावता. चुकून-माकून तो गांवांनी आनी कांय वेळार शारांनीय पावता आनी धुमाकूळ घालता. माकोड सामखो नखरेकार आनी मस्ती करपी जनावर आसा. ह्या झाडावेल्यान त्या झाडाचेर उडयो मारप हो ताचो नित्यक्रम आसता.

माकोड पानां आनी फळां खाता. भिकणां फोडून खावपाक ताका भोवच मानवता. जेन्ना भुरगीं पक्षीघर पळोवपाक वतात तेन्ना मुजरत भिकणां व्हरून माकडाक घालतात. आनी ताचे बरोबर खेळटात.

जेन्ना तो गांवांतल्या वाड्यार पावता तेन्ना केळीं, चिकू, तन्ने पणस, तन्ने आंबे हांची खूब वाट लायता. एक एकदां पोपायेची कोमरीच मोडून सत्री कशी घेवून धांवता.

माकोड नक्कल करपाक एकदम हुशार. आमी दांत दाखयल्यार तोय दाखयता. आमी फातोर मारल्यार तोय मारता. माकडाच्या ह्या गुणांचो माकडाचो खेळ करून दाखोवप्यान आपलें पोट भरपाचें साधन केलां. माकडांचो खेळ करपी माकडाक तरेकवार खेळ शिकयता. ताका तरेकवार मुस्तायकी घालता आनी गांवांनी, शारांनी, जात्रांनी, फेस्तांनी बाजारांत खेळ करून आपलें पोट भरता. भुरग्यांक आनी जाणट्यांकय माकडाचे खेळ खूब मानवतात.

सर्कसकारांनीय माकडाचो पुरेपूर फायदो करून घेतला. ताकां तरेकवार खेळ शिकोवन आपले सर्कशीचें आकर्षण करून दवरलां. माकडाचो खेळ आसा म्हणल्यार सर्कस पळोवपाक भुरग्यांची खेट पडटा. माकोड हें भुरग्यांचें सगळ्यांत घोस्ताचें जनावर आसा.



# घोडो

घोडो एक पाळीव जनावर आसा. ताचें आंग घटमूट आसता. ताचो रंग चॉकलेटी, काळो, धवो आनी पिंगट आसता. ताचे मानेर दाट आनी लांब केंस आसतात. ताका 'आयाळ' म्हणटात. ताचे शेपडेर लांब - लांब केंस आसतात. ताच्या पांयाक पोंदच्यान खूर आसतात. धाकट्या घोड्याक टट्टू म्हणटात.

घोडो सडसडीत धांवता म्हणून ताचो उपेग येरादारी खातीर करतात. टांगे चलोवपाक आनी सामानाची हाड-व्हर करपाक घोड्याचो बरे तरेन उपेग करतात. पयलींच्या तेंपार लडायेंत घोड्यांचो चड उपेग करताले. आजकाल घोडे आमकां सिनेमांत आनी सर्कशींत चड प्रमाणांत दिसतात.

घोडो चणे, तण, भुसो आवडीन खाता. घोडो उब्यानीच न्हीद काडटा. घोडो जमनीर बसप म्हणल्यार समजुचें तो दुयेंत आसा.

घोडो प्रामाणीक आनी बुदवंत जनावर जावन आसा. आपल्या मालकाक तो बरेतरेन वळखता. महाराणा प्रतापालो घोडो चेतक इतिहासांत अज्रंवर जावन आसा.

****

# उंट

गाय, कुत्रो आनी घोड्याभशेन उंट हेंवूय एक पाळीव जनावर जावन आसा. उंटाची लांबाय आनी रुंदाय सात-आठ फूट आसता. तो पळोवपाक साप बरो दिसना. ताची मान लांबोडी आनी उंचच उंच आसता. पांय तर लाकडाच्यो बडयो कशे लांब आनी उबेच आसता. फाटीर एक व्हडलें कुबड कशें आसता. आपले मानेच्या आदारान तो झाडांच्या खांदयो लागीं हाडटा आनी पानां खाता.

जरी आकारान उंट अघळ-पघळ आसलो तरी ताचो उपेग खूब जाता. गाडी ओडपाक, सामानाची येरादारी करपाक. उंटाचे पांय पोंदच्यान दाट आसतात आनी ताका लागून वाळवंटांत तो सहजतायेन चलूंक शकता. उंटाचें आनीक एक खाशेलेंपण म्हणल्यार ताचे फाटीर एक उंचवटो आसा. ताच्या खाला उदक सांठोवन दवरपाची एक पिशवी आसा, ताका लागून उंट उदकाबगर स-सात दीस कांय न्हय करून काडूंक शकता.

उंटाचो उपेग चड करून वाळवंटांतल्या प्रवासाखातीर जाता. हाचेवेल्यान ताका 'वाळवंटांतलें जहाज' अशें नांव पडलां.

आमच्या भारत देशांत उंट राजस्थान आनी कच्छ हांगासर चड प्रमाणांत दिसतात. आजकाल उंट आमकां अभयारण्य तशेंच सिनेमांत पळोवपाक मेळटात.

****ब

# कावळो

कावळो हो एक शिटूक पक्षी आसा. ताचो रंग काळो आसा. ताची चोंच लांब आसा. आपले चोंचीन तो ल्हान ल्हान जीव-जंतू धरता आनी खाता. कावळ्याक रूचीचेंच वा आवडीचेंच जाय अशें ना. तो मेळत तें खाता. ताका नाका असो खंयचोच जिन्नस ना. तो किडे, कुशिल्लें अन्न, कुशिल्लीं फळां असलें कितेंय खाता.

ताचो घोंटेर म्हणल्यार सात-आठ आडव्यो तिडव्यो बडयो एकठांवन झाडाच्या केंकल्यार केल्लें घर. सगळ्यांत धूर्त प्राणी म्हळ्यार कावळो. जेन्ना आमी आंगणांत नुस्तें, साट (पणसाचें वा आंब्याचें) कडधान्यां बी सुकत घालतात तेन्ना नदर चुकोवन तो तें केन्ना फारायता तें कळ लेगीत ना. तेच परी भुरग्याच्या हातांतली भाकरी वा खाणाची वस्त झोंपय घालून व्हरप ही तर ताची सदचीच गजाल.

कावळ्याची सकाळ फांत्यापारार जाता. कांव-कांव करून तो आशिकुशीच्या लोकांक जागयता. कावळो खंय ना म्हणपाचो ना. केद्याय वेळार ताचो कांव-कांव आवाज आमकां आयकूंक येता. ताका एकवटान रावपाक खावपाक आवडटा. खावपाची वस्त दिसली रे दिसली तो कांव-कांव करून सगळ्यांक आपयता आनी कितें आसा तें वांटून खाता.

कावळ्याची नदर शिटूक आशिल्ल्यान ताका जिवाणू बी रोखडेंच नदरेक येता आनी तो लागता कांव-कांव करपाक. वेळा प्रसंगार आपल्या हेर वांगड्यांच्या आदारान तो जिवाणूक मारपाचो लेगीत यत्न करता. तांच्या वेगळेच तरेन रडपाच्या आवाजान दुसरे पशु-पक्षी शिटकावतात आनी कसलो तरी धोका आसा हाची सुलूस तांकां लागता.

मनीस जातीच्या बऱ्या खातीर तो खूब गजाली करता पूण मनीस जात मात ताका दारांत उबो करून घेना, हड् हड् करून ताका आमुडटा.



# मोर

मोर हो सगळ्या पक्ष्यांत सोबीत पक्षी अशें मानतात. ताजो रंग निळो आनी पांचवो आसता. ताजे तकलेर सोबीत बरो तुरो आसता. ताजी मान लांब पूण सोबीत दिसता. ताजो पांखाटो म्हणल्यार लांब-लांब पिसां. त्या पिसांचेर इंद्र धनुष्याचे रंग खुबच खुलून दिसतात.

अचकीत जेन्ना तो आपलो पांखाटो फुलयता तेन्ना फुलयल्ल्या पांखाट्याचेर दोळ्यांच्या आकाराची रंगीत नक्षी पळोवन तान-भूक न्हिवता. मोर आंगान जड आशिल्ल्यान ताका हेर पक्ष्यांवरी उडपाक येना.

पावसाचे दीस लागीं पावले म्हणटकच मोराक भोव खोशी जाता. पावसाचें वारें व्हावंक लागतकच काळ्या ढगांक पळोवन मोर आपलो पांखाटो फुलयता आनी म्याओ-म्याओ अशी आड्डी मारता आनी 'थुई-थुई' करून नाचपाक लागता. मोराचो नाच खुबच सोबीत दिसता.

मोराचे मादीक लांडोर म्हणटात. मोर दाणे, बारीक किडी जीव तशेंच रानांतलो चारो खाता. अशे तरेच्या सोबीत मोराक सरस्वती देवीचें वाहन अशें मानतात. त्याच प्रमाण भारतांत मोराक 'राष्ट्रिय' पक्ष्याचो मान फाव जाला.

****

# कीर

कीर एक सोबीत पक्षी आसा. ताचो रंग पांचवो आसा. ताच्या गळ्याभोंवती एक काळोच पट्टो आसता. ताकाच कंठ म्हणटात. ताची चोंच तांबडी गूंज आसता. ती सकयलेवटेन वांकडी आसता. किराची चोंच धारेची आसता.

किराचो आवाज म्होवाळ आसता. खरें म्हणल्यार तो रानांत रावपी पक्षी पूण मनीस जातीन आपल्या सुवार्थाखातीर ताका धरून पिंजऱ्यात बंद करून पोसपाचो पक्षी केला. शिकारी नाडपेन्नां करून ताका धरतात आनी पयशे मेळटात म्हणून ताका विकतात. जांका मोनजात पोसपाचो छंद आसता ते किराक घेतात आनी ताका पांजऱ्यांत बंद करतात.

बरे जातीचो कीर जें-जें शिकयता तें-तें रोखडेंच शिकता आनी मनशाभशेन उलोवपाचो यत्न करता. दारांत आयिल्ल्या सोयऱ्यांक वा वळखीच्यांक हडकिता, यो-बस म्हणटा, नमस्कार करता (उतरांनी) भुरगीं ताका पोपट-पोपट कोण रे तो म्हणून ताचे कडेन उलयतात.

किराक पांचव्यो तश्योच तांबड्यो पिकिल्ल्यो मिरसांगो, चणे, पेरां खूब घोस्ताचीं. किराक पिंजऱ्यांत मात लेगीत मानवना पूण निरुपायान तो तातूंत दीस काडटा, आनी आपल्या म्होवाळ आवाजान सगळ्यांक खोशी दवरपाचो यत्न करता.

****

# माड

माड चड करून समुद्राचे, न्हंयेचे देगेर बरो पसवता. हाचें कारण ताका रेंवट जमीन बरी मानवता. माड लांब आनी सरळ जाता. ताची लांबी जवळ-जवळ २० ते २५ फूट आसता. माडाक खांदयो आसनात. ताका तेंगशेक लांबचे लांब चुडटां आसतात आनी चुडटांच्या कुसव्यांत नाल्लांच्यो पेंडी देंवतात. माडाची उस्तवारी बरे तरेन जाली जाल्यार नाल्लाच्यो पेंडी घसघशीत जातात. दर एका पेंडीक कमींत कमी पंचवीस ते पन्नास लेगीत नाल्ल धरतात. दर माडाक चार-चार पेंडी देंवतात. तांतल्यो सगळ्योच एक बरोबर जून जायनात. फाटी फुडें जातात.

नाल्लाक भितर कातली आसता आनी गोड उदक आसता. नाल्लाची सोय जेवणाक वापरतात. नाल्लाबगर गोंयकारांचें जेवण जायना. जेन्ना उदक सुकता तेन्ना ताका आटक म्हणटात. आटकाच्यो तरेक तरेच्यो सुक्यो चटण्यो करतात. त्यो कितलोय तेप इबाडनासतना उरतात. आटकांचें तेल काडटात. तन्ने नाल्लाक आडसर म्हणटात. आडसराचें उदक भोव उपेगी. कामीण जाल्ल्यांक, हाग-ओंक जाल्ल्यांक आडसराचें उदक दितात.

खावपाच्या शिवाय नाल्लाचो देवकार्यांतय बी खूब उपेग जाता. सोण्णां पसून राजू, सूंब तयार करतात. कदेलां, सोफा भितर किसयिल्लो काथो भरतात. नाल्ले पसून बटन, खेळणीं, तरेकवार वाटयो तयार करतात.

माडाच्या कांडाचे वांशे तयार करतात. चुडटांचे व्हीर काडून साण्णी तयार करतात. चुडटांचे झड बांदतात, मल्लां, शेनन्यो, खोंटले तयार करतात. माडाचो खंयचोय भाग उपेग नासतना उरना. म्हणूनच ताका कल्पवृक्ष अशें म्हणटात. ****

# आंबो

आंब्याक फळांचो राजा म्हणटात. आंबो आमच्या देशांतलें सगळ्यांत गोड आनी रसाळ फळ . शीं पडटा तेन्ना आंब्या झाडाक चंवर येता आनी मागीर बारीक बारीक कण धरपाक सुरु जाता. कांय दिसांनी ते कण मोठे जावन आंबल्यो जातात. आनीक दोन-तीन म्हयन्यांनी आंबल्यांचे मागीर आंबे जातात. आंबे जून जातकीर पिकपाक लागतात. आंबो उबाळाच्या दिसांनी पिकता.

आंब्याच्यो खूब जाती आसात. मानकुराद, मुसराद, फुर्ताद, फेर्नादीन, कुलास, हापूस, पायरी, नीलम, तोतापूरी, लंगडा आदी. गोंयांतल्या मानकुराद आंब्याची अख्र्या भारतांत नामना आसा. त्याचप्रमाण रत्नागिरीचो हापूस आनी गुजरातचो केसर आंबोय बी बरे रुची खातीर प्रसिध्द आसा.

जेन्ना आंबो तन्नो आसता तेन्ना आमी ताका तोर वा आंबली म्हणटात. बारीक आंब्याक तोराकण म्हणटात. आंबो तन्नो आसतना रूचीक आंबट आसता. तन्ने आंब्या पसून लोणचें, मुरांबो, मेल करतात. तन्ने आंब्या भितल्ली बी मोव आसतना दोणांत चेपणाक घालतात. चेपणाक घाल्ल्यो आंबल्यो वर्स वर्स बऱ्यो उरतात. तन्न्या आंबल्यांच्यो तरेकवार चटण्यो करतात. अमुरपिक्या आंबल्यांचें पन्हें करतात. गरमे दिसांनी पन्हें पिल्यार जिवाक थाकाय मेळटा.

आंब्याचो रूख जाता. ताचेर शेंकड्यांनी पशु-पक्षी सावळेक येतात तशेंच घोंटेरय बांदून रावतात. आंबो जितो आसासर फळां दिताच पूण मरतकच लेगीत ताचें लाकूड मदेराक वापरतात. आंब्याच्या लाकडाचो उपेग घराचीं दारां, जनेलां, मेजां, कदेलां आदी करपाक जाता. आंब्याचीं पानां देवकार्याक वापरतात.

ल्हान रोपो आसासर आंब्याच्या झाडाची जतनाय घेवची पडटा. एकदां काय व्हड जालो कीं ताका उदक, सारें बी घालचें पडना. ताचीं मुळां खोल गेल्ल्यान पावसाचें उदक तीं सांठावन दवरतात.

आंब्याची फकत भारतांतच न्हय तर भायल्या देशांनी लेगीत तोखणाय जाता. खऱ्यांनीच आंब्या सारखें फळ ना.



# गुलाब

गुलाबाचें फूल सोबीत आनी सुंदर आसता. ताका परमळाचें फूल म्हणटात. ताचो परमळ मन भुलयता. गुलाब सुंदर पूण काडपाक गेल्यार ताच्या आंगार कांटेच कांटे आसात. गुलाब सगळ्या जाग्यांनी मेळटा जरी आसलो तरी काश्मिरी गुलाब संसार भर फामादीक आसा.

गुलाब गच्च पांकळ्यांनी भरिल्लो आसता. तो तरेकतरेच्या रंगांचो आसता. तांबडो, धवो, हळडुवो, गुलाबी आनी तरेक तरेक रंगांचो. ल्हान आकाराचो तसोच व्हड आकाराचो.

गुलाबापसून चेर आनी गुलाबपाणी तयार करतात. गुलाब हें मोगाचें प्रतीक. एकमेकांचेर मोग उक्तांवक जाय जाल्यार गुलाबाच्या फुलांची भेटवण करतात. जांव तरणी पिळगी जांव म्हातारी गुलाबाचें म्हत्व जाणून आसात.

भारताचे पंतप्रधान पंडित जवाहरलाल नेहरू हांकां गुलाबाचें फूल खूब भावतालें. फुलांत ते भुरगेपण पळयताले. ते म्हणटाले भुरगीं हीं फुलांभशेन. मोग दिवपी, मोग उक्तावपी आनी म्हणूनच म्हाका भुरगीं भावतात आनी फुलांय भावतात. ते आपले शेरवानीचेर सदांच तांबडें गुलाबाचें फूल लायताले. तांबडो गुलाब म्हणल्यार मोगाचें प्रतीक.

****

# म्हजी शाळा

म्हजे शाळेचें नांव सरस्वती विद्यालय आसा. शाळेची इमारत खूब व्हड आसा. तिका दोन मजले आसात. सगळ्यो मेळून २० कुडी आसात. लायब्ररी, प्रयोगशाळा, ऑफीस, शिक्षकांक बसपाखातीर वेगळ्यो वेगळ्यो कुडी आसात. दुसऱ्या मजल्यार एक लांबचे लांब हॉल आसा. थंय सभा, सेमिनार तशेच करमणुकीचे कार्यक्रम जातात.

म्हजे शाळेंत मोंटेसरी ते धावी मेरेन शिकयतात. शाळा सकाळीं आठ वरांचेर सुरू जाता ती बद्द सांजवेळची स वरांचेर बंद जाता. पांचवी ते धावीचो वेळ सकाळीं आठ ते दनपरां एक जावन वीस मिनटां मागीर पयली ते चौथी एक तीस ते स वरां. मर्दीं मोंटेसरी चलता तीन ते साडेपांच वरां.

म्हजे शाळेंतलो शिक्षकवर्ग मन लावन काम करता. भुरग्यांक बरें शिक्षण दिवप तशेंच सर्वांगीण विकास करप हें शिक्षकांचें मुखेल ध्येय जावन आसा. आमची शाळा शिक्षणाबरोबर खेळांतय सदांच फुडें आसता. क्रिकेट, फुटबॉल आनी बॅडमिंटन खेळांत आमचे शाळेन जायतीं इनामां हातासल्यांत.

दरवर्सा आमचे शाळेंत स्नेहसंमेलन आनी क्रिडा-मेळ जाता. चडान चड भुरग्यांनी फुडें सरचें अशी आमच्या हेडमास्तराची मोख आसता. आमी वण्टीपत्रां तयार करतात आनी वेगळ्या-वेगळ्या विशयांचे बरप करतात. आमचो पी. टी. शिक्षक आमकां तरेकवार कवायतीचे प्रकार शिकयता.

आमचे शाळेंत सगळ्यो सुविधा आसात. व्हडलें खेळामळ आसा. थंय आमी फाविल्ल्या वेळार खेळपाक येतात. हांव केदोय व्हड जावं म्हजे शाळेक हांव केन्नाच विसरचों ना.

****

# म्हजो देश

भारत म्हजो देश. पयलीं हांगा भरत नांवांचो राजा राज्य करतालो. ताच्या नांवावयल्यान ह्या देशाक 'भारत' अशें नांव पडलां. भारताक 'हिंदुस्थान' अशेंय म्हणटात.

भारताचे उत्तरेक हिमालय पर्वत आसा. दक्षिणेक हिन्द महासागर आनी पश्चिमेक अरबी समुद्र. हो देश दोंगर, न्हंयो, रानां, शारां आनी गांवांनी भरिल्लो आसा. गंगा, यमुना, गोदावरी, नर्मदा, ब्रह्मपुत्र सारखिल्यो न्हंयो भारत देशाक पांचवोचार दवरपाचें श्रेय घेतात.

दिल्ली भारताची राजधानी. दिल्लीच्यान लागींच आगरा शारांत 'ताजमहाल' आसा. तो पळोवपाक देशी तशेंच विदेशी भोंवडेकार थंय येतात. भारतांत वेगळ्या वेगळ्या राज्यांची भास वेगळी वेगळी आसा. त्याच प्रमाण रीति-रिवाज, सण-परबो.

जरी भारतांत वेगळ्या-वेगळ्या धर्माचे लोक रावतात तरी हिन्दू, मुसलमान, पारसी, ख्रिस्ती तशेच बाकीचे लोक मिळून-मिसळून रावतात. वेगळ्यो वेगळ्यो भाशा आसल्यो तरी हिन्दीक आमी राष्ट्रभाशा मानल्या.

चडसो भारतांतलो लोक गांवांनी रावता. गांवांचेरच शारां अवलंबून आसतात. म्हणून पयलीं गांवांची उदरगत सादूं जाय. गांव बरो तर शार बरें. शारां बरीं जाल्यार आमचो भारत देश बरो जावन उरतलो.

आमी भारताचो मान सदांच राखतलीं असो सोपूत घेवूं जाय.

****

# आमचें गोंय

गोंय हें पांचवेचार सैमान नटलां. गोंयचे पूर्वेक सह्याद्री दोंगर, गोमंतदेवीचो मुकूट कसो सोबता. शंकराच्या जटेंतल्यान जशी गंगा व्हांवता, तशें पांचव्याचार झाडां-झुडपांतल्यान दुदसागर आनी हरवळेंचें उदक व्हांवत आसा.

गोंयांत सैमीक सोबितकाय भरून ओतता. गोंयांत नदर भोंवडायता थंय माड दिसतात. सक्काळीं पळयल्यार रेंदेर सूर काडपाक माडार चडटा तो दिसता. माडार चडटना-देंवतना तो कांतरां गायता. गोंयांत दर्या-देगो, वजरे, न्हंयो, तळीं खूब आसात.

रातचें दर्यादिगेर वातावरण थंड आसता. वारो झणझणीत मारता, आनी उदकाच्या ल्हारांचो खळखळीत आवाज येता. धवे फुल्ल रेवेंत पांय पातळावन बसचें शें दिसता. गोंय दर्याचे देगेर टवटवीत दिसता. मोगरेचे ताळयेचेर मोगरे कळो टवटवीत उबो आसा. गोंयचे भोंवतणी दोंगर आसात. गोंय तांचे मांडयेर भुरगें कशें दिसता. पावसाच्या दिसांनी तर दोंगर-दोंगुल्ल्यो, भाटां-बेसां, कुळागरां आनी शेतां व्हंकलेच्च्या चुड्याभशेन पाचवी चार दिसतात.

गोंयकारांचें जेवण म्हळ्यार शीत आनी भरपूर सोय घाल्लें नुस्त्याचें हुमण. गोंय म्हळयार नुस्त्याचें आगर. एक दीस जेवणाच्या पानार नुस्त्याचो कुडको ना जाल्यार उणी ताळ्या सकल वचना. गोंयांत नाल्ल खूब पिकता आनी तांदूळय फावो सारखो. ताका लागून शीत आनी नुस्त्याची कडी म्हळ्यार गोंयकार धादोशी.

साडेचारशीं वर्सां पोर्तुगेजांच्या शेकातळा राविल्ल्यान

आमच्यो संवयी, रावप, न्हेसप उंचेल्या पांवड्यावेलें आसा. गोंयांत विंगड-विंगड धर्म आसात. हिंदू, क्रिस्तांव, मुसलमान. आमची भास कोंकणी . हिंदू चवथ, मुसलमान ईद आनी क्रिस्तांव नातालांच्यो परबो मनयतात. सकाळीं काकाड्या आरती आनी शेनायेच्या सुरांनी तशेंच इगर्जेंतल्या घांटीनी न्हिदेंतल्यान जाग येता.

भारताच्या नकाशार गोंय एक टींब कशें दिसलें तरी भोंवडेकारांचो सर्ग जाला. दर्यावेळांचें तर सगळेकडेन नांव जालां. हांगा मिनाचो धंदो अजून मेरेन जोरांत चलता.

गोंयचो लोक शांत, मायेस्त सभावाचो. दारांत आयिल्ल्या सोयऱ्यांक आदरान वागोवपी. गोंय इतलें ल्हान आसा कीं कसलीय घडणूक खिणाभितर गोंयभर पावता. भोंवडेंकारांक गोंयचें नांव आयकल्यार मनांत ल्हारां उसळटात.



# म्हजी आवय

आई, ह्या शब्दांतच कितली गोडी आसा. आई म्हणना फुडें काळीज भरून येता.

म्हजी आई म्हाका खूब आवडटा. ती म्हजेर खूब माया करता. ती म्हाका सकाळीं उठयता, तोंड धुवून न्हावपाक लायता. नित्य नेमान देवाक नमस्कार करूंक सांगता. अभ्यासाक बसयता. म्हजे प्रत्येक कामाचेर तिची नदर आसता.

जेन्ना म्हज्या हातांतल्यान चूक जाता तेन्ना तिका राग येता पूण तिचो राग हांव बरो जावचो म्हणून आसता. तिका दिसता हांव शिकून सवरून व्हड जावचों.

आई सभावान खूब बरी. घरांतल्या सगळ्यांकडेन ती मिळून मिसळून वागता. आपले परीन घर बरे तरेन उबें उरचें, घरांतलीं सगळीं मनशां बरीं उरचीं म्हणून ती कश्ट काडटा. दीस आनी रात ती कामांत गुल्ल आसता.

हांव केन्नाय बरो ना जालो जाल्यार तिका सूख लागना. म्हज्या उशा म्हन्यांत बसून ती म्हजी सेवा करता. रात-रात जागरणां करता.

आई जें सांगता तें बऱ्याक म्हणून हांव सदांच तिचें आयकतां. आई सदांच आनंदीत आनी हंसमुख उरची ही म्हजी इच्छा जावन आसा.

****

# म्हजो इश्ट

पिटर म्हजो सगळ्यांत बरो इश्ट. आमचीं घरां एकाच वाड्यार आसात. ल्हानपणासून आमी बरोबर शिकल्यात, खेळल्यात, आनी आतां आमी इश्कोलाक लेगीत बरोबर वतात आनी येतात. आमी एकाच बांकार बसतात.

पिटर शिकपाक, खेळपाक आनी सगळ्या कामांत हुशार. पिटराचे आवय - बापूय कुवेट आसतात. दर दोन वर्सांनी घरा येतात. म्हणून तो आपले आज्जे म्हऱ्यांत रावता. आज्जेलीं सगळीं कामां करता. आनी ताका लागून हांवूय म्हजे आवयलीं कामां करूंक शिकलां.

खेळांत हुशार आशिल्ल्यान दर क्रिडा महोत्सवाक ताका चडान चड इनामां फावो जातात. शिकपाकय हुशार आशिल्ल्यान म्हाका ताची मदत जाता. जेन्ना केन्नाय हांव इश्कोलाक गैरहाजीर रावतां तेन्ना म्हाका चुकिल्लो अभ्यास तो म्हाका दाखयता.

पिटर सभावान मनमिळावू. सगळ्यांकडेन तो बरे तरेन वागता. म्हणून शिक्षक सुध्दां ताका बरें करतात. आवय-बापूय पयस आशिल्ल्यान तो एक जबाबदार भुरगो कसो वागता म्हणून म्हाका ताची तोखणाय दिसता. वर्गांतल्या सगळ्या भुरग्यांचो पिटर आवडटो.

कोणेंय कसलेंय काम सांगल्यार तो ना म्हणना. आपल्याच्यान जाता जाल्यार रोखडोच तयार जाता. पिटराभशेन इश्ट आसप म्हणल्यार हांव म्हजें भाग्य समजतां.

****

# म्हजो आवडटो शिक्षक

श्री. सनी कार्लुश म्हजो खूब आवडटो शिक्षक. तो सदांच झेतान आसता. लांब हातांचो शर्ट तो सदांच पँटीच्या भितर घालता आनी ताचेर सोबीत बरो पटो बांदता. तो सदांच बूट घालता. ताचीं पावलां झेतान पडटात.

ताचो आवडटो विशय म्हळयार इंग्लीश. ताचो शिकोवपाचो झेत आनी नेट वेगळोच. तो वर्गांत केन्ना येता हाची आमी वाट पळयत आसतात. शिकयतना तो तरेकवार हांसयाळीं सांगता. आपूणय हांसता आनी आमकांय हांसयता. पूण ताच्या वर्गांत बोवाळ केन्नाच जायना. केन्ना हांसो बंद जाता आनी शिकवप सुरू जाता कळचना.

ताक शिस्त आवडटा. तो म्हणटा, भुरग्यांनी कितलीय मस्ती करची पूण ग्रांवडार खेळटना. वर्गांत मस्ती करप ना. शिकपाच्या वेळार मस्ती ना आनी खेळपाच्या वेळार शिकप ना. तो भुरग्यांक केन्नाच मारिना. पूण ताचो दरारोच असो कीं कोणूच भुरगो सनी सर शिकयतना मस्ती करिना, गडबड-गोंदळ करिना.

सनी सराली शिकोवपाची पध्दत सगळ्यांक मानवता. आमकां जर समजलें ना जाल्यार समजम्हणसर सर आमकां शिकयता. वेळचे वेळार टेस्ट घेता आनी खंय फाटीं उरता तेंय सांगता. अभ्यास कसो करचो तेंय सांगता.

जेन्ना आमी पिकनिकेक वतात तेन्ना तो आमच्या बरोबर नाचता, खेळटा, जेवता आनी मजा-मजा करता. असो आमचो सनी सर म्हाका खूब आवडटा.

****

# म्हजे शाळेंतलो शिपाय

अब्दुल हो म्हजे शाळेंतलो शिपाय. तो मुखेल शिपाय आनी ताच्या हाताखाला आनी चार शिपाय आसात. अब्दुलाचो सभाव एकदम मनमिळावू.

अब्दुलाक घरचीं कोणच नाशिल्ल्यान तो इश्कोलाकच आपलें घर मानता. ताची पिराय ५० वर्सांची आसा. आंगान शिडशिडीत आनी काळसर रंगाचो अब्दुल इस्कोलाच्याच एका कोनशाक खोपटांत रावता. इस्कोलांत तो खाकी युनिफॉर्मांत आसता.

अब्दुलाचीं कामां थारिल्लींच आसात. सातांक तो इश्कोलाची मुखेल गेट उघडटा. पयसुल्लीं भुरगीं बेगीन येतात म्हणून ताका हुस्को. ना जाल्यार इश्कोल आठ वरांचेर सुरू जाता. मागीर तो सगळ्या दारांचीं कुलपां काडून दवरता.

बरोबर आठांच्या ठोक्यार तो प्रार्थनेची घांट वाजयता. इश्कोल निवळ करपाचें काम तो आनी बाकीचे शिपाय मेळून सदांच सांजवेळचे करतात. सकाळचीं कामां ताणें वांटून दिल्लीं आसतात. आपल्या हातासकयल्या शिपायांनी कामांत ढिलाय केल्ली अब्दुलाक मात लेगीत मानवना.

अब्दुलाक सगळे शिक्षक मानतात आनी तोय सगळ्यांचो बरो आदर राखता. शिक्षकांक वर्गांत कसलीय गरज पडली जाल्यार तो सट्ट करून हाडून दिता. सगळ्यो वस्तू, नकाशे, खडू, डस्टर तो जागचे जाग्यार दवरता.

जेन्ना विद्यार्थी पिकनिकेक वतात तेन्ना तो सदांच बरोबर आसता. त्या शिवाय वखदांचे बॉक्स तोच बाळगिता. कोणाकय झरकटलें जाल्यार तोच वखद लायता. खेळपाच्यो वस्तू तोच

बरे  तरेन सांबाळटा आनी विद्यार्थ्यांक दिता. सगळ्यानीं सारखें खालां जेवलां हाची पुरायेन वासपूस करता.
अब्दुलाबगर कोणाचेंच पान हालना. सकाळ उजवाडटना अब्दुलाच्या नांवाचो जप सुरू जाता तो इश्कोल सुट्टकच बंद जाता. सांजवेळचो लेगीत तो आपलें काम काळोख जाय सर करत आसता.

असो आमचो अब्दुला सगळ्यांचो आवडटो.

****

# रेंदेर

गोंयांत रेंदेराक वळखना असो एकूय मनीस मेळचो ना. गोंयांत नदर भोंवडायता थंय माड दिसूंकच जाय. माड २० ते २५ फूट लांब आसता आनी माडाच्या कुसव्यांतल्यान नाल्लांच्यो पेंडी सकल देंवतात.

माडाचे नाल्ल काडप्याक पाडेली म्हणटात आनी माडार चडून पोंयेंतल्यान सूर काडपी मनशाक रेंदेर म्हणटात. पुर्विल्ल्या रेंदेराचो भेस म्हळ्यार कमराक काश्टी, माथ्यार लेंस आनी हातांत काती. आतांचे रेंदेर काश्टेच्या जाग्यार हाफ पेंट घालतात आनी माथ्यार चेपें घालतात.

रेंदेराचो धंदो माडाच्या कुसव्यांत बसून सूर काडपाचो. दिसाक तीन पावटी तरी तो माडार चडटा आनी देंवता. तो माडार तुरतुरीत चडटा. चडटना ताचे हातांत काती आनी दाबणें आसता. पूण माडार चडटना तांची ताका केन्नाच आडखळ जायना.

रेंदेर पोंय कापता आनी घट्ट बांदता आनी ताच्या तोंडार दाबणें (सूर पडपाक) लायता आनी सकल देंवून दुसऱ्या माडार चडटा. जितले माडांक पोंय कापून दाबणें लायलां तांतूंतली सूर काडपाक परत चडचें पडटा.

इतलें त्रासाचें काम आसून लेगीत रेंदेर सदांच खुशालभरीत सभावाचो आसता. ऊंच माडार पावतकच ताका नवीं-नवीं कांतारां येवजतात. आनी शिळोणेच्या तालार ताचीं नवीं कांतारां भायर सरतात.

रेंदेराक माडार चडपाची इतली संवय आसता कीं माडावयल्यान रेंदेर केन्नाच सकल पडिल्लो आमी आयकूंक ना. माडार चडप आनी देंवप ही रेंदेराच्या जिवितांतली सर्कस कशी जावन आसा.

जोमेरेन गोंयांत माड आसात तोमेरेन रेंदेर आमकां पळोवंक मेळटलोच.



# महात्मा गांधी

महात्मा गांधीक भारतांतच न्हय तर अख्खो संवसार वळखता. तांचें नांव मोहनदास, बापायचें नांव करमचंद आनी आवयचें नांव पुतळाबाई गांधी अशें आशिल्लें. तांचो जल्म गुजरात राज्यांतल्या पोरबंदर हांगासर २ ऑक्टोबर १८६९ सालांत जाल्लो.

तांचो सभाव भिडेस्त आसलो. आवय आनी गुरुजनांचेर तांचो खूब मोग आसलो. गांधीजी सदांच खरें उलयताले. हांगाचें शिकप पुराय जातकच भायल्या देशांत वचून ते बॅरिस्टर जाले पूण तांच्या सभावाक लागून तांकां वकिली जमना जाली.

पूण जेन्ना साऊथ आफ्रिकेक तांणी भारतीयांचेर जावपी अत्याचार पळयले तेन्ना ते पेटून उठले आनी तांणी स्वातंत्र्याची कीट पेटयली. तांणी सत्य, अहिंसा, शांती, असहकार आनी सत्याग्रहाच्या मार्गान ब्रिटिशांक नाका शेवट केलो.

स्वातंत्र्य मेळोवपाखातीर तांणी खूब कश्ट सहन केल्यात. कितलेशाच वेळार तांकां बंदखणींत वचचें पडलां. उपास आनी सत्याग्रह हीं तांचीं प्रभावी शस्त्रां आसलीं. आनी ह्या शस्त्रां मुखार ब्रिटीश नमले आनी भारत सोडून गेले.

गांधीजींची राहणी सामकी सादी आसली. हातमागाचेर विणिल्ल्या धोतराशिवाय ते आंगार कसलेंच वस्त्र वापर नासले. लोकांचें जिवीत सुखी जावचें, गरिबांचो पोटा पाण्याचो प्रस्न घरबसल्या मिटचो हे पसत गांधीजींनी चरख्याचो प्रचार सुरू केल्लो. खादीचो प्रचार, गांवांचो सुधार, बायलांक शिक्षण आनी अस्पृश्यता काबार जावचे पसत ते तळमळीन वावुरले.

गांधीजीनीं जिवितभर देशाची सेवा केली. नव्या भारताची

निर्मणी केली, स्वतंत्रतायेचो हावेस जागयलो. दया आनी क्षमा हे तर तांचें गुणांचें भांडवल आसलें. म्हणूनच तांकां 'राष्ट्रपिता' हेंनांव फावो जालें. तांकां बापूजी, महात्मा ह्या नांवांनीय वळखतात. ३० जानेवारी १९४८ वर्सा प्रार्थनेक वतना तांची हत्या जाली पूण हत्या करपी मनशाक तांणी 'हे राम' म्हणून हात जोडून नमस्कार केल्लो.

देशाखातीर केल्लें हें बलिदानच जावन आसा.

****

# पंडित जवाहरलाल नेहरू

जवाहरलाल नेहरू स्वतंत्र भारताचे पयले प्रधानमंत्री आसले. तांचें नांव व्हड आदरान घेतात. तांचो जल्म १४ नोव्हेंबर १८८९ दिसा इलाहबादाक जाल्लो. तांच्या बापायचें नांव पं. मोतीलाल नेहरू आनी आवयचें नांव स्वरूपाराणी आसलें.

जवाहरलाल नेहरूचें भुरगेपण श्रीमंतींत गेल्लें. कारण तांचें घराणें गिरेस्त आसलें. तांच्या वाड दिसाक तांचें वजन करून तांच्या वजनाइतलें अन्न, कपडे-लत्ते, मिठाय गरीबांक दान करताले.

तांचें मुळावें आनी माध्यमिक शिकप भारतांत जाल्या उपरांत मुखावेलें शिकप तांणी इंग्लडाक घेतलें. ते बॅरिस्टर जावन भारतांत परतले.

ते जेन्ना भारतांत परतले तेन्ना भारतांत महात्मा गांधीजींच्या फुडारपणाखाला स्वतंत्रता आंदोलन चलतालें. गांधीजींच्या बरोबर ताणींय स्वतंत्रता आंदोलनांत वांटो घेवन कितलेशेच खेपे बंदखणीची ख्यास्त भोगल्या.

तांणी तना-मनान भारताची सेवा केल्या. तांकां भुरगीं खूब आवडटालीं कारण ते म्हणटाले, माणकुल्यांच्या भुजांर भारताचो फाल्यांचो पर्जळीत फुडार आसतलो. भुरगीं हीं फुलांवरी. तांकां सारखीं फुलूंक दिवूं जाय. परमळूंक दिवूं जाय.

महात्मा गांधी वरीच तांणी नव्या भारताची निर्मणी करपाक मोलाचो हातभार लायिल्लो. 'आराम हराम है' ही घोशणा तांणी भारतियांक दिली. तांणी संवसारांत चलतल्या झुजांक आडावपाखातीर खूब यत्न केल्यात. तांकां २७ मे, १९६४ दिसा मरण आयलें.

पं. नेहरूंक गुलाबाचें फूल खूब आवडटालें. चड करून तांबड्या रंगाचें गुलाबाचें फूल ते आपल्या शेरवानींत खोयताले. तांबडो रंग मोगाचें प्रतीक आशिल्ल्यान तांकां तें चड आवडटालें कारण गुलाबाच्या फुलांत ते भुरग्यांचो मोग आसपावन घेवंक सोदताले.

पं. नेहरूंक भुरगीं 'चाचा नेहरू' म्हणटालीं. भारतभर तांचो जल्मदीस 'बाल-दीस' म्हणून मनयतात.



# लोकमान्य टिळक

''स्वराज्य हो म्हजो जन्मसिध्द हक्क आसा आनी हांव तो मेळयतलोंच.'' अशी गर्जना करून भारतांत स्वतंत्रतायेविशीं प्रखरपणान जागृताय निर्माण करपी बाळ गंगाधर टिळक हे एक भारताचे व्हड फुडारी आसले. तांचो जल्म २३ जुलै १८५६ दिसा रत्नागिरी जिल्ह्यांत जाल्लो. बाळ ल्हानपणांतल्यानच हुशार तशेंच कडक सभावाचे आसले.

आमच्याच देशांत आमी गुलाम जावन रावप म्हणल्यार निर्लजपणाची, उणाकपणाची गजाल अशें ते मानताले. तांणी सरकारी नोकरी करनासतना देशाची सेवा करपाचें व्रत आपणायलें. तरणी पिळगी देश भक्तिच्या विचारांनी उचंबळून येवची म्हणून तांणी 'केसरी' आनी 'मराठा' हीं दिसाळीं चलयलीं. लोकांमदीं एकवटाची भावना जागची म्हणून तांणी रासवळ गणपती उत्सव आनी शिवजयंती उत्सव सुरू केल्ले.

इंग्रजांच्या गुलामगिरींतल्यान सुटका जावची म्हणून ते जल्मभर इंग्रजांबरोबर झुजले. तांणी बंदखणीची ख्यास्त भोगली. तांकां सात वर्सां मंडालेच्या बंदखणींत खिचत रावचें पडिल्लें. पूण तांणी बंदखणींतच वेळेचो उपेग करून 'गीतारहस्य' 'ओरायन आनी आर्यांचे मूळ वसतिस्थान' अशे प्रसिध्द ग्रंथ बरयले.

लोकांच्या हिताखातीर, देशाच्या बऱ्याखातीर टिळक झटत रावले म्हणून तांकां 'लोकमान्य' ही पदवी फावो जाली. सतत इंग्रजांबरोबरच्या झुजाक लागून तांचे भलायकेकडेन लक्ष उरनाजालें आनी ताका लागून वयाच्या ६४ व्या वर्सा १ ऑगस्ट १९२० दिसा तांकां मरण आयलें.

टिळकांच्या अथक परिश्रमान चालू केल्ल्या कार्याक लागून १९४७ सांत भारताक स्वातंत्र्य फावो जालें. टिळक गेले तरी आपलें नांव अज्रांवर करून गेले. ****

# १५ ऑगस्ट

१५ ऑगस्ट हो भारताचो स्वतंत्रतायेचो दीस. हो दीस भारतीय राष्ट्रीय परब म्हणून मनयतात. हो दीस मेळपाक भारतियांक खूब झुजचें पडलां.

भारताचेर १५० वर्सां इंग्रजांनी आपली हुकमत चलयली. आमच्याच देशांत आमी गुलाम जाल्ले. पूण वेळ बदललो. भारतीय लोकांमदीं जागृताय निर्माण जाली आनी इंग्रजांक भारतांतल्यान पळून वचचें पडलें. त्या वेळावयल्या तरणे पिळगेन आपलें व्हड योगदान दिवन सत्याग्रह, मिठाचो सत्याग्रह, भारत छोडो आंदोलन चलोवन इंग्रजांक नाका करून भारत सोडपाक लायलें.

आनी निमणें १५ ऑगस्ट १९४७ ह्या दिसा भारतदेश इंग्रजांच्या जोखडांतल्यान मुक्त जालो. त्या दिसा सगळ्या भारतियांनी मेकळो स्वास घेतलो. तांचे खोशयेक शीम-मेर उरली ना. सगळेकडेन आनंदच आनंद मनयलो.

१५ ऑगस्टाक भौशिक सुटी आसता. शाळांनी, सरकारी कार्यालयांनी राष्ट्र-ध्वज वयर चडयतात. गांवांनी मिरवणुको काडटात. शाळांनी तरेकवार कार्यावळी जातात, भाशणां जातात, सभा जातात. सांस्कृतिक आनी मनरिजोवण्यो कार्यावळीय जातात.

ह्या दिसा दिल्लीक लालकिल्ल्याचेर खास दिव्यांची रोशणाय करतात. भारताचे प्रधानमंत्री तिरंगो हुबयतात. आनी आपलो संदेश लोकांमेरेन पावयतात. पावसा-पाणयाची पर्वा करिनासतना लाखांनी लोक लाल किल्ल्याकडेन जमा जातात आनी भारताचो जयजयकार करतात.

भारताचो स्वतंत्रतायेचो दीस आमी केन्नाच विसरूंक दिवं फावना. जयहिंद-जयहिंद-जयहिंद

****

# २६ जानेवारी

२६ जानेवारीक प्रजासत्ताक दीस म्हणटात. १५ ऑगस्ट १९४७ वर्सा भारताक जरी स्वतंत्रताय मेळ्ळी तरी आमची घटना तयार नासली. सुरवातीक आमकां इंगजांच्याच घटनेप्रमाण देश चलोवचो पडलो. घटना तयार करपाक एक समिती नेमली आनी २६ जानेवारी १९५० दिसा आमची स्वतंत्र अशी घटना तयार जाली आनी ती मानून घेतली. ते खातीर ह्या दिसाक चड म्हत्व आसा. ह्या दिसाक गणतंत्र दीस अशेंय म्हणटात.

जितलें म्हत्व १५ ऑगस्टाक आसा तितलेंच म्हत्व २६ जानेवारीक आशिल्ल्यान ह्या दिसा भौशिक सुटी आसता. शाळा, स्कूलां, सरकारी कार्यालयांनी बावटो हुबयतात. तरेकवार मनरिजवण्यो, सांस्कृतिक कार्यवळी, सभा, व्हड-व्हड नेत्यांची भाशणां जातात. सरकारी इमारतींचेर लायटीच्या दिव्यांची रोशणाय करतात.

ह्या दिसा राजधानी दिल्लींत राज्यां-राज्यांतल्यान आयिल्ल्या सांस्कृतिक पंगडांचें प्रदर्शन जाता. चित्ररथांचेंय प्रदर्शन जाता. आमी घरांत बसून टि. वी. चेर दिल्लीक चलतल्या ह्या कार्यक्रमाचो सुवाद घेवंक शकतात. तिनूय दळां - नौसेना, थलसेना आनी वायुसेना कवायतीचे वेगवेगळे प्रकार करतात ते आमकां पळोवपाक मेळटात.

२६ जानेवारी हो दीस खऱ्या अर्थान भारताक स्वातंत्र्य दिवन गेला म्हणून आमी ह्या दिसा अखंड भारत उरचो असो सोपूत घेवया.

****

# तिरंगी बावटो

आमच्या देशाचो बावटो तीन रंगांचो आसा. तीन रंगां मदीं अशोक चक्र आसा. तिरंगी बावटो भारताचें मानचिन्ह जावन आसा. केसरी, धवो आनी पांचवो अशे हे तीन रंग आसात.

केसरी रंग म्हणल्यार ज्या सत्याग्रहींनी स्वतंत्रतायेखातीर रगत वगडायलां ताची गवाय जावन आसा. तो रंग आमकां सांगता- निर्भय मनान देशाखातीर त्याग करूंक शिकात. धवो रंग म्हणल्यार नितळ, प्रसन्न आनी शांत वृत्तीचें प्रतीक तशेंच पांचवो रंग समृद्धीचें चिन्ह. अशोक चक्राचो संदेश म्हणल्यार, सत्यान आनी प्रेमान वागात आनी देशाक उदरगतीच्या मार्गार दवरात.

आमच्या देसाचो बावटो म्हणल्यार देशाचो सन्मान. तो सदांच मानान ऊंच आसूंक जाय. तो भारताचे स्वतंत्रतायेचें प्रतीक. ताज्या मुखार आमी आदरान नम्र जावूं जाय. ताका पळयतकच काळीज अभिमानान भरून येवूंक जाय.

जो मेरेन तिरंगी बावटो मानान ऊंच उरतलो तो मेरेन आमचें स्वातंत्र्य अबाधीत उरतलें. ताका कसलोच भंय आसचोना. आमचो देश अश्ट पंगड जाती आनी धर्मान भरिल्लो देस. हांगा विंगड-विंगड भासो उलोवपी लोक पूण सगळे तिरंगी बावट्या खाला एकजुटीन रावतात आनी हांतूंतच आमकां एकवट दिसता.

स्वतंत्र भारत एकजुटीन वावुरतलो जाल्यार आमी सदांच बावट्याचो मान राखूंक जाय.

जयहिंद !



# सरकस

सरकस म्हणली कीं चड करून भुरगीं सामकीं उमेदी जातात. केन्ना सरकस आपल्या गांवांत वा लागीच्या शारांत येतली आनी आमी पळयतलीं अशें तांकां जाता.

सरकस सदांच बँडाच्या तालार सुरू जाता. सरकशींतले खेळगडे तरेकवार खेळ करून दाखयतात. कोण एकाच चक्राची सायकल चलयता तर कोण 'मरणाच्या गोलांत' मोटारसायकल चलयता. म्हणसर एकलो तोंडांत बडी धरता आनी ते बडयेर एक माणकुलें चली सरसर करून चडून वयल्या तोंकार बसता. कोण झोंपाळ्यार धोलता तर कोण धोलतां धोलतां लागोट्यो मारून दाखयता. म्हणटा म्हणसर चार पांच चलयो दोरये वयल्यान सायकली चलयतात.

इतल्यान रिंग मास्तर जनावरांकडल्यान तरेकवार आनी अजापभरीत जावपाच्यो कसरती करून घेता. माकडाकडल्यान सायकल चलोवप, हत्तीकडल्यान नाल्ल फोडून देवाची पूजा करप, सोंडेन देवाक अभिषेक घालप. शींव आनी बोकडेन एकाच ताटांत जेवप. कुत्र्यान उज्यांतल्यान उडयो मारप.

मर्दी-मर्दी जोकर लोकांक हांसोवपाचें काम करतात. ते जेन्ना लोकां मुखार येतात तेन्ना भुरगीं तांकां भितातय बी आनी पोटभरून हांसतातय बी.

आमच्या गांवांत जेन्ना सरकस येता तेन्ना म्हाका सदांच ती पळोवचीशी दिसता.

****

# चवथ

भारत देश हो सणां परबांचो देश. वर्सयभर कसले ना कसले सण आमी मनयतात. पूण चवथ ही आमची मुखेल परब. हे परबेची आमी वर्सभर उमळशिकेन वाट पळयतात. ही परब गोंय आनी महाराष्ट्रांत व्हड उमेदीन मनयतात.

ही परब भाद्रपद म्हयन्यांत येता. तय-चवथ आनी पंचम अशे तीन दीस ही परब आसता. तयेक हरतालिकाय म्हणटात. केन्ना केन्नाय तय-चवथ एकाच दिसा येता. चवथीच्या १५ दीस पयलींच घरांची निवळसाण करपाक सुरवात करतात. मखर रंगोवप हें काम तर भुरग्यांचें आसता.

मखरांत गणपती बसोवपाखातीर गणपती करपाचीं कामां दोन अडेच म्हयने पयलीं चालू जातात. चवथीक फकत पंदरा दीस आसा म्हळ्यार गणपतींचेर निमणो हात मारप म्हळ्यार रंग दिवपाचें काम चालू जाता. गणपतींक पळोवपाक भुरग्यांची खेट पडटा.

चवथी दिसा गणपतीक हाडून पयलीं ताची पाटार बसोवन पुजा करतात. ताका राट दाखयतात - ओंवाळटात आनी मागीर मखरांत बसयतात. ताचे पयलीं मखराच्या वयर माटोळी बांदतात. तरेकतरेच्या फळांनी माटोळी सजयतात.

गणपतीक आवडटात म्हणून चवथीक घराघरांनी मोदक आनी नेवऱ्यो करतात. ताका हांचोच नैवेद्य दाखयतात, आनी दुर्वा घालतात. गणपतीची पुजा ल्हान व्हड सगळे मनपूर्वक करतात. आरती, भजन गायतात.

कांय लोक गणपतीक देड दिसांनी, कांय पांच दिसांनी, कांय सात दिसांनी तर सार्वजनिक गणपती अकरा दिसांनी

पावयतात. गणपती बाप्पा मोरया, फुडल्या वर्सा बेगीन यो अशें म्हणत वाजयत-गाजयत मिरवणूकीन, फोगोट्यांच्या, नारंगांच्या, चंद्रजोतींच्या आतशबाजीन बांयंत, न्हंयंत ना तर समुद्रांत पावयतात.

कामा-धंद्याच्या निमतान परगांवांत रावपी लोक चवथीक घरा वतात. ही अशी एकच परब जी सगळ्या कुटुंबाक लागीं हाडटा. आपले तांकी प्रमाण जण एकलो गणपतीची पुजा करता आनी आपलें जिवीत सुखी आनी समृध्द जावचें म्हणून मागता. सण, परबो हें भारतीय संस्कृतिचें दायज आमी सदांच राखून दवरूंक जाय.



# होळी

होळी हिन्दू लोकांची मुखेल परब. ही परब फाल्गून म्हयन्याचे पुनवेक येता. भुरगीं-जाणटीं, तरणी पिळगी व्हड उमेदीन ही परब मनयतात.

होळीक एक पौराणिक कथा जोडिल्ली आसा. प्रल्हाद श्रीविष्णुचो भक्त आशिल्लो. प्रल्हादान देवाची भक्ती करप ताचो बापूय हिरण्यकशपूक मानवनासलें. एक दीस होलिका-हिरण्यकशपुली भयण - जिका उज्यांत न लासपाचो वर आशिल्लो, ती प्रल्हादाक घेवन उज्यांत बसली. आनी अजापाची गजाल म्हणल्यार होलिका पुराय जळून तिचो गोबोर जालो पूण प्रल्हादाक मात कांयच जालें ना.

दैवी शक्तिचें जैत जाल्लें पळोवन सगळो लोक खोस मनवपाक लागलो. वांयगणी पीक तयार जाल्लें असो हो वेळ आशिल्ल्यान जण एकल्या शेतकामत्यान आपल्या धान्याची मूठ मूठ अग्निदेवाक अर्पण करून होलिकेच्या दहनाची खोस मनयली.

होळयेच्या दिसा दुस्मानकाय विसरून सगळे एकमेकांचेर रंगाच्यो पिचकाऱ्यो मारतात. मनान-कायेन एक जातात. रंगान मनसोक्त न्हातात. चाचा नेहरू होळयेक राष्ट्रीय परब मानताले आनी म्हणटाले- जशे होळयेच्या दिसा सगळे एका रंगान भिजतात तशेच भारत देशांतले लोक एकचाराच्या रंगान भिजचे.

इतलें जरी आसलें तरी कांय लोक होळयेचो गैर फायदो घेतात. गाळी घालप, झगडीं करप, एकमेकांचेर हळशीक वडोवप, फळांची नासाडी करप अशींय वायट कर्तुपां करतात. पूण तीं हाताच्या बोटांर मेजपा इतलींच. ****

# रक्षाबंधन

रक्षाबंधन ही परब श्रावण म्हयन्यांत येता. ही परब भाव-भयणीच्या निर्मळ आनी पवित्र मायेचें प्रतिक. हे परबेक 'श्रावणी' वा 'रक्षाबंधन' अशेंय म्हणटात. ह्या दिसा भयण भावाक राखी बांदून आपल्या रक्षणाचो भार ताचेर सोंपयता. भाव भयणीक मोगाची भेट दिता.

रक्षाबंधनाची परब सगळ्या भारतांत मनयतात. भाव नाशिल्ल्यांक, भयण भाव मानता आनी ताका राखी बांदता. घरांत गोड-गोडशें करतात. मानिल्ल्या भावाचें कर्तव्य खाशेल्या भावावरीच भयणीचें रक्षण करप आसता.

एकदां मेवाडाचेर बहादुरशाहान घुरी घाली आनी राणी कर्मवतीक दिसलें-आतां आपली हार जाता तेन्ना तिणें दिल्लीचे बादशाह हुमायूंक राखी धाडून भाव मानलो, आनी आपलें रक्षण करचें अशें मागलें. राखीच्या पवित्र बंधनान हिंदू-मुसलमान हो भेदभाव मिटयलो. हुमायूं राणी कर्मवतीच्या आदाराक धांवलो.

राखी ही परब जात, धर्म, गरीब-गिरेस्त सगळ्यांक आपल्या पवित्र धाग्यान लागीं हाडटा.

# सुतापुनव

गोंयांत रक्षाबंधनाक - सुतापुनव अशेंय म्हणटात. गोंयांत जून-जुलै आनी ऑगस्ट अर्दो म्हयनो आकांताचो पावस पडिल्ल्यान नुस्तें पागपी दर्यांत आपलीं व्हडीं घालिनासले आनी सुतापुनवे दिसा दर्याची पूजा करून मागीरच दर्यांत पागूंक वताले.

अडेच म्हयने दर्यांत भरपूर नुस्तें तयार जातालें आनी मागीर गोंयकारांक वर्सभर ताजें फडफडीत नुस्तें खावपाक

मेळटालें.

हो दीस जशे नुस्तें पागपी लोक व्हड उमेदीन मनयतात, गोडश्याचें जेवण रांदतात तशेंच अन्य हिंदू समाजांत ही परब म्हणून मनयतात.

सुतापुनवे दिसा घरांतलो कर्तो मनीस न्हाल्या नंतर देवारो निवळ करता. सगळे देवांक न्हाणयता आनी नंतरच पुजेक लायता. आपलें जानवें बदलता. गोडश्याचें जेवण करतात. देवाक निवेद्य दाखयतकच सगळ्यांचें जेवण जाता.

****

# पास्कांची परब

पास्कां ही परब क्रिस्ती लोकांक नातलां इतलीच खोस दिवपी जावन आसा. जेजू क्रिस्ताच्या पुनर्जिविताचो उगडास करूंक अख्ख्या संवसारा बरोबर क्रिस्ती लोक गोंयांतूय ही परब व्हडा दबाज्यान मनयतात.

करेज्माचो निमणो शुक्रार जेजूच्या त्रासांच्या मरणाचो दीस म्हणून क्रिस्तांव लोक पाळटात. शुक्रारा उपरांत पवित्र शेनवार येता. ह्या शेनवाराच्या रातीक भक्त लोक इगर्जेंत वचून प्रार्थना करतात. जेजूच्या मरणाचें दुख्ख म्हणून पाद्री ह्या दिसा मीस सांगना. पूण इगर्जे भायर एके खाशेल्या जाग्यार पाद्री चकमकान नवो उजो तयार करून ताचेर आशिर्वाद घालता.

नव्या उज्याचेर आशिर्वाद घालतकच पाद्री एके वातीचेर एक खुरीस कांतयता आनी खुरसाचेर उबे आडवे वयर 'अल्फा' आनी सकयल 'ओमेगा' हीं ग्रीक उतरां काडटा. ताचो अर्थ - जेजू काल, आयज आनी सदांकाळ आसा. खुरसाच्या चारूय कोनशांनी चालू वर्साचे आंकडे कोरांतता आनी जेजूच्या पांच घांयांच्या उगडासाक ते वातीक पांच धुपाचीं मुटलीं खुरसाच्या आकारान तोंपता आनी वात पेटोवन म्हणटा - क्रिस्ताचो उजवाड आमच्या मनांतलो काळोख पयस करूं.

पेटिल्ली पास्कांची वात फुडें दवरून पुरसांव काडून इगर्जेंत भितर सरतात आनी हेर वाती पेटयतात. मागीर पाद्री बापतिज्माचे कोळंबे म्हऱ्यांत वचून त्या उदकाचेर आशिर्वाद घालून देवाकडेन उदक पवित्र कर म्हणून मागता. ह्या वेळार बापतिज्म घेवपी भुरग्यांक पवित्र न्हांणां उदेशीं नवें जिवित फावो करतात.

घांटींच्या घणघणणाटांत आनी खोजने-फोगेट्यांच्या गडगडटांत मीस सुरू जाता. वाद्यांच्या आवाजान इगर्जेचो वाठार आनंदभरीत जाता. सगळे खुशालभरीत जावन एकामेकांक पास्कांची परबीं भेटयतात. कोरेज्माचो काळ सोंपून परत खुशालकायेचे दीस उजवाडिल्ले आसतात. कांय सुवातांचेर नाच, तियात्र आनी तरेकवार मनरिजवणेच्यो कार्यावळी जातात.

पास्कांची परब जाल्या नंतर गांवचो पाद्री घराघरांनी भेटो दिता आनी आगबेंत (पवित्र उदक) मारून आशिर्वाद दिता. पाद्री येवचे वेळार लोक आपलीं घरां आनी सरभोंवतणी निवळ करतात.

थोडे लोक पास्कांचे परबेक 'शेंप्या-फेस्त' अशेंय म्हणटात.



# नातलांची परब

नातलांची परब ही दर वर्सा २५ डिसेंबराक क्रिस्तांव लोक मोठे उमेदीन मनयतात. हो दीस क्रिस्तांव धर्माचो धर्म गुरू जेजू क्रिस्ताचो जल्मदीस. अख्ख्या संवसारांत हो दीस व्हडा उमेदीन मनयतात.

भारतांत ब्रिटिशांलें राज्य आसलें तेन्ना २५ डिसेंबर ते नव्या वर्साची १ तारीक मेरेन भौशीक सुटी आसताली. आतां ती सुटी शाळा कॉलेजा मेरेनच मर्यादीत आसा.

खूब वर्सां फाटीं जेन्ना रोमांतलो राजा सीजर ऑगस्टस राज्य करतालो तेन्ना एक ज्यू जोडपें जोजेफ आनी मारी नाझारेथ शारांत रावतालीं. एक दीस ह्या राजान आपल्या राज्याची शिरगणती करपाचें थारायलें आनी लोकांक पेरगांव घालून कळीत केलें. जण एकट्या ज्यू नागरिकान एका आठवड्याभितर २५ डिसेंबर मेरेन आपल्या शारांत हाजिर रावपाक जाय.

जोजेफ आनी मारी आपले नांव घालपाखातीर बेथेलेम शारांत वचपाक भायर सरलीं पूण तांकां खूब रात जाली. बेथेलेम शार लोकांनी भरिल्लें. तांकां रावपाक लेगीत जागो नासलो म्हणून तीं एका गोठ्यांत रावलीं. मध्यान राती मारी बाळांत जालें. ताचेकडेन भुरग्याक गुठलावपाक लेगीत सारखीं लुगटां नासलीं. तशेंच बोंतरांत भुरग्याक गुठलावन ताणें तणाक बुराक मारून ताका दवरलो.

जेजूचो जल्म जाला मात-एक आकाशवाणी जाली कीं एका गोठ्यांत देवाचो जल्म जाला. कांय राखणे आपलीं गोरवां राखताले थंय तांणी आकाशवाणी आयकली आनी एक अद्‌भूत अशा उजवाडान तांकां त्या गोठ्याकडेन व्हेले. राखणे सामके

अजापभरीत जाले. आकाशवाणीन सांगलें देवाली सासाय-देवालें भुरगें धरतरेर जल्मलां. मनशांक उजू वाट दाखोवंक.

तेन्नाच्यान नातालां दिसा घराघरांनी गोठे करतात आनी जेजूक बाळकाच्या रूपान गोठ्यांत दवरतात. तरेकवार खाणाचे जिन्नस करतात. जेन्ना मध्यानीचेर मीस जाता तेन्ना लोक रस्त्यांचेर गितां गायत वतात आनी अख्खी रात मजा करतात. नातालाचे परबे दिसा लोक बऱ्यांतली बरी मुस्तायकी घालतात. एकामेकांगेर वतात आनी नातालांचीं परबीं भेटयतात.

पयसुल्ल्या सोयऱ्यांक, इश्ट मित्रांक नातालाचीं आनी नव्या वर्साचीं कार्डां धाडटात. नातालांक खास जेवण करतात, चिकन, मटण आनी खास तरेचें पुडींग 'बिबिंक' करतात. हें खास केल्लें 'बिबिंक' हिन्दू इश्टांक आनी शेजाऱ्यांक मुजरत धाडून दितात. ते घोस्तान ताची रूच घेतात आनी फुडल्या नातालाची वाट पळयतात.

****

# ईदाची परब

अख्ख्या संवसारांत मुसलमान वर्साक तीनदां इदाची परब मनयतात. रमजानईद, बकरी ईद आनी ईद-ए-मिलाद. रमजान ईद, जेन्ना रमजान म्हयनो सोंपता तेन्ना मनयतात. हजरत इस्माईलच्या बलिदानाची याद म्हणून बकरी ईद मनयतात तर ईद-ए-मिलाद हजरत मुहम्मद साहबच्या जल्मदिसाची याद म्हणून खोशयेन मनयतात.

संवसारभरांतले मुसलमान ईद, रमजान आनी ईद-ए-मिलाद व्हडा उमेदीन अगनी खोशयेन मनयतात. ते खूब दीस पयलीं परबेची तयारी करतात. नवी मुस्तायकी, मिठायेची तयारी करतात.

ईदाच्या दिसा सकाळीं फुडें नवी मुस्तायकी चडोवन मुसलमान लोक मशिदींत नमाज करपाक वतात. मशिदींत जेन्ना नमाज चलता तेन्नाचो देखावो पळोवपासारखोच आसता. एके वळीन तांचें बसप आनी एकाच बरोबर तकली जमनीक लावन अल्लाची भक्ति उक्तावप.

नमाज जातकच जण एकलो एकामेकांक वेंग मारून आपलें प्रेम उक्तायता आनी 'ईद मुबारक' म्हणटात. नमाज सोंपतकच ते आपआपल्या सोयऱ्यांगेर, इश्ट-मित्रांगेर वचून ईदाच्यो शुभेच्छा उक्तायतात.

ईदाच्या दिसा प्रत्येक मुसलमानागेर दुदांतल्यो शेवयो करतात. तांतूंत केशर, बदाम, पिश्ता, बियो घालून ताची रूच वाडयतात. आपल्यागेर आयिल्ल्या सोयऱ्यांक आनी वळखीच्या लोकांक शेवयांची खीर खावपाक दितात.

बकरी ईदाक दान करून पुण्य मेळटा म्हणून शक्य आशिल्लो मुसलमान ह्या दिसा दान-धर्म करता आनी मनाक शांती मेळयता. ईद म्हळ्यार सूख, मोग आनी एकचाराची परब म्हळ्यार अतिताय जावची ना.



# पोष्टमन

पोष्टमन हो आमच्या जिविताचो एक भाग जावन आसा. तो जशी आमची सेवा करता तशी सेवा कोणच करचो ना. शीं, पावस, कडकडीत वत आसूं पोष्टमन आपली खाकी पिशवी खांद्याक लावन घराघरांनी पत्रां, मनीऑर्डरी वांटपाचें काम करता. ताचे पिशवेंत पोष्टकार्ड, अंतर्देशीय पत्र, रजिस्टर्ड पत्र असोय खचाखच भरिल्लो संच आसता.

सकाळीं तो पोष्ट ऑफिसांत वता आनी आपल्या वांट्याक आयिल्लीं पत्रां, जाका 'डाक' म्हणटात, तीं घेता आनी आपल्याक पत्रां वांटपाक पडिल्ल्या वाड्यार वता. आपलें काम वेळचे वेळार करपाकडेन ताचो कल आसता. तो केन्नाच कामचुकारपणां करना.

पत्रां वांटपाखातीर ताका ऊंच-ऊंच माळयो चडच्यो पडटात. खांची कोनश्यांनी नामे सोदीत भोंवचें पडटा. पूण आपलें किचकनडीचें काम करपाक तो केन्नाच वाजेना. कांय वेळार ताका पत्रां वाचून सुध्दां दाखोवचीं पडटात. पूण हेंय काम तो खोशयेन करता.

सण, परबो आसूं ताका सुटी म्हणटा ती कमीच. कारण ताचें काम समाजाक भौवच उपेगी अशें आशिल्ल्यान जण एकलो पोष्टमनाची उमळशिकेन वाट पळयता. आनी पोष्टमनाक हाची पुरायेन जाणीव आसता. समाजाक उपेग पडपी अश्या समाजसेवकाचो समाजान सदांच आदर आनी सत्कार करूं फावो.



# बालदीन

बालदीन १४ नोव्हेंबराक मनयतात. १४ नोव्हेंबर हो पंडित जवाहरलाल नेहरूंचो जल्मदीस. तांकां भुरगीं मनापसून आवडटालीं. तांकां दिसतालें जर भुरग्यांक बरेतरेन व्हड करीत, तांचेर बरे संस्कार करीत तर भारताचो फुडार परजळीत जातलो. भुरग्यांक जशीं घडयतात तशीं तीं घडटात. ओले मातयेक जसो आकार दितात तशें तिका रूप येता. म्हणून पंडित नेहरूंक दिसतालें, तांचीं इच्छा आसली, आपलो जल्मदीस बालदीस म्हणून मनवचो. तांची इच्छा आसली म्हणूनच तांचे जयंतीक बालदीन हें नांव फावो जालें. अख्खो भारत देश ह्या दिसा बालदीन मनयता.

बालदीन चड करून शाळांनी व्हड प्रमाणांत मनयतात. वेगळ्यो-वेगळ्यो सर्ती आयोजीत करतात. हांतूंतल्यान भुरग्यांच्या कलागुणांक पोसवण मेळटा. नाटक सर्त, गित गायन सर्त, चित्रकला सर्त, भाषण सर्त, निबंद सर्त, कोयरांतल्यान टाकाऊ वस्तू तयार करपाची सर्त , मातयेच्यो वस्तू तयार करपाची सर्त - अश्यो तरेकवार सर्ती आयोजीत करतात.

कांय शाळांनी बालदिनाची सगळी जापसालदारकी भुरग्यांचेर सोंपयतात आनी इनामांय जाहीर करतात. आपल्याचेर जापसालकी आशिल्ल्यान भुरगीं आपले आंगांतले सगळे गूण दाखोवपाचो यत्न करून इनामां हातासतात.

हालीं बालभवन संस्था तालुका आनी राज्यपातळीचेर कार्यावळीचें आयोजन करता आनी तांतूंतल्यान चडान चड भुरग्यांक आपली कला दाखोवपाक वाव मेळटा. कांय भुरग्यांक दुसऱ्या राज्यांनी लेगीत वचपाचो योग येता. अश्यो तरेच्यो कार्यावळी आयोजीत केल्ल्यानच पंडित जवाहरलाल नेहरूंक खऱ्या अर्थान आदरांजली फावो जाल्या. तांचें सपन पुराय जावपाक आतां चड वेळ उरूं ना.



# शेतकामती

आमचो भारत देश शेती-प्रधान देश म्हणटकच शेतकामती हो भारत देशाचो कणो जावन आसा. शेतकामती बरो जाल्यार भारत देश बरो.

शेतकामती गांवांनी रावता, आनी अन्न-धान्य पिकयता. गांवांचेर शारांचें जिवीत अवलंबून आसता. जें-जें गांवांनी पिकता तें-तें शारांनी पावता.

शेतकामत्याली सकाळ फांत्या पारार उदेता. आपल्या गोरवांची सारखी वासपूस घेतकरच तो तांकां घेवन शेतांत वचपाक भायर सरता. नांगर चलयतना ताच्या आंगार धोतरा शिवाय कांयच आसना. शीं, वत, पावस हाची पर्वा करिनासतना ताचें काम चालूच आसता.

शेतकामती मनीस जातीचो खरोखुरो सेवक. तो मनापसून मनीस जातीची सेवा करता. तो नाशिल्लो जाल्यार ऽऽ चिंतूकच जायना. सर्गेस्त प्रधानमंत्री लालबहादूर शास्त्री शेतकामत्यांक व्हड मान दिताले. ताणीं घोषणाच दिल्ली - जय जवान - जय किसान.

अजून पसून चडशे शेतकामती गरीब आसात. तो अन्न पिकयता, पूण आपलेपसत तो थोडेंच खाता. ताचें जिवित गरीबींत वता. हालीं-हालीं सरकार शेतकामत्याचें जिवन-स्थर उंचावपाचो यत्न करता. ताका होलमलां शेतकामत्याची उदरगत म्हळ्यारच देशाची उदरगत.



सकयल दिल्ल्या मुद्द्यांच्या आदारान काणी पुराय करात :-

१) सुवार्थी इश्ट

दोन इश्ट ....... एकमेकांक आदार करपाचें उतर ...... रानांतल्यान वचप ...... अस्वल ....... एक इश्ट झाडार ...... दुसऱ्याक येना ....... जमनीर न्हिदप ...... अस्वलान कानाकडेन येवन वास घेवप ....... वचप ...... झाडावेल्यान देवन ....... विचारप ....... कानांत कितें सांगलें ? सुवार्थी इश्टांची इश्टागत करूं नाका ...........

राम आनी श्याम नांवाचे दोन इश्ट आशिल्ले. राम सादो भावार्थी आशिल्लो पूण श्याम सुवार्थी आशिल्लो. एक दीस श्याम रामा म्हऱ्यांत आयलो आनी रानांत लाकडां पुंजावंक या म्हणपाक लागलो. रामान म्हणलें "पळय श्याम, रानांत रानटी जनावरां आसतात. आमच्या फाटीक लागल्यार? म्हाका काय झाडार चडपाक येना."

"जनावर फाटीक लागता तेन्ना पळोवया. हांव आसतना तूं कित्याक भियेता. म्हाका झाडार बेस बरें चडूंक येता."

राम आनी श्याम रानांत पावले आनी लाकडां पुंजायता थंय आसले अचकीत तांकां एक अस्वल येता तें दिसलें. श्यामान आनी वेळ केलोना, सडसडीत झाडार चडून बसलो. रामाची भियेवन सामकी गुळी जाली. कितें करतलो. कितें जाता तें जाता म्हणून तो मेल्ले वरी जमनीर पडून रावलो.

अस्वल रामा म्हऱ्यांत आयलें आनी कानाचो वास घेतलो आनी चलपाक लागलें. अस्वल पयस पावतकच श्याम धांपेत-धांपेत झाडावयल्यान देंवलो आनी रामाक विचारूं लागलो "राम, अस्वलान तुज्या कानांत कितें सांगलें?"

रामान खिणभर विचार केलो आनी सांगलें "सुवार्थी आनी भिवकुऱ्या इश्टांपसून सदांच पयस रावचें." हें आयकतकच श्यामान लजेन मान सकयल घाली.

देख :- सुवार्थी इश्टांची केन्नाच इश्टागत करची न्हय.

२) संगतीचो परिणाम

बरो भुरगो ....... वायट संगत ...... बापायलो व्यर्थ उपदेश ........ बाजारांतल्यान बरे आंबे हाडप ..... मदीं कुशिल्लो आंबो ........ चार दिसांनी पुताक आंबे हाडपाक सांगप ....... कुशिल्ल्या आंब्या कुशीचे आंबेय कुसप ..... पुताचेर परिणाम ....... देख.

आंबेगाळींत एक सज्जन मनीस रावतालो. ताका एक चलो आशिल्लो. गुणेस्त तसोच शिकपाकय हुशार. पूण मदींच ताका वायट भुरग्यांची संगत लागली आनी चलो कोणाचेंच कांयच आयकना जालो. बापूय सांगून-सांगून थकलो. निमणें ताका एक उपाय सुचलो.

एक दीस बाजारांतल्यान बापायन आंबे हाडले आनी ताचे मदीं एक कुशिल्लो आंबो दवरलो. चार दिसांनी बापायन चल्याक आंबे हाडूंक सांगलें. चलो आंबे हाडपाक गेलो जाल्यार कितें पळयतलो! कुशिल्ल्या आंब्या म्हऱ्यांतले सगळे आंबे कुसल्यात. चलो आंबे घेवून भायर आयलो.

"बाबा, तुवें कुशिल्लो आंबो बऱ्या आंब्या मदीं कित्याक दवरलो?" चल्यान बापायक म्हणलें. "कित्याक? कितें जालें?" "सगळे आंबे कुसले पळय. तुवें कुशिल्लो आंबो दवरिल्ल्यान हें अशें जालें." चल्यान बापायक म्हणलें.

बापायन रोखडेंच म्हणलें "हय मरे पुता! एक कुशिल्लो

आंबो बऱ्या आंब्यामदीं दवरिल्ल्यान बाकीचेय आंबे कुसले पळय. तसोच तूं बरो भुरगो, वायट संगतीच्या भुरग्यांमदीं वावुरल्यार तूंय वायट जावचो ना?''

बापायचीं उतरां चल्याच्या काळजाक झोंमलीं. बापायन सांगिल्ली गजाल सामकी खरी ही गजाल ताका होलमली. ''बाबा, आयच्यान हांव बरो भुरगो जातलों. तूं सांगता तेंच आयकतलों.''

देख :- वायट संगतीचो परिणाम सदांच वायट जाता. म्हणून आमी सदांच बऱ्याची संगत धरूं जाय.

३) कोल्याक द्राक्षां आंबट

एक कोलो ......... भुकेल्लो ....... खावपाक मेळटा काय ......... द्राक्षांची बाग ....... घोंस पळोवन खुशाल ....... उडयो मार-मार-मारप .... फळादीक जायना ........ ''द्राक्षां आंबट'' ......

४) सर्त

कासव आनी सोंसो इश्ट ....... सोंशाक गर्व ..... सडसडीत धांवपाचो ........ सर्त .... कोण बेगीन पावता ..... वाटेर पांचवीचार झोंपां .... सोंसो फुडें ...... सुसेग ..... कासव सवका-सवका फुडें .... सर्तीचे सुवातेर .... सोशाची हार.

५) सभावाक वखद ना.

एक तळें ....... कासव आनी हंस ..... इश्टागत ..... तळें सुकप .... दुसऱ्या तळ्यांत वचपाचो विचार ..... उडत वचपाचें .... आपूण येतां म्हणून हट्ट ....... कासवाक उडपाक येना ..... उलयनासतना तोंडांत बडी ...... तोंकां दोनय हंसाच्या तोंडांत ........ मदीं कासव ..... बडी तोंडांत ....... उलोवपाचो सभाव ........ पडप .... मरप .......

७) कावळ्याची हुशारकाय

तानेल्लो कावळो ....... उदक सोदप ....... अखेरेक उदकाचें मडकें ....... तळाक उदक ....... फातर घालप .......उदक वयर ....... तान भागोवप ........

८) मूर्ख कुत्रो

एक कुत्रो ........ तोंडांत रोटी ....... न्हंयच्या पुलार ....... आपलेंच मुखामळ उदकांत ........ चितप दुसरो कुत्रो ....... आपली रोटी खावपाक ....... भोंकप ....... तोंडांतली रोटी सकयल .......

९) दुश्ट लांडगो

लांडगो ....... उदक पियेवप ...... दुसरे तडीक माणकुलें कोंकरूं ....... उदक हळशीक ....... लांडग्याकडल्यान कोंकराकडेन ....... पोरूं गाळी मारिल्ल्यो ....... जल्मच जावूं नासलो ........ तूं ना जाल्यार बापायन ....... कोंकराक मारपाक निमित्त .......

१०) कश्टांचें फळ

एक म्हातारो शेतकामती ....... मरणाधडेर ....... तीन चले ....... आळशी ....... म्हऱ्यांत आपोवप ....... शेतांत पवनाचें मडकें ....... म्हातारो मरतकर ...... खण-खण-खणप ....... मडकें मेळप ना ...... बरें पीक ....... समजिकाय .......

११) फकाणांचो परिणाम

राखणो ....... गोरवां, बोकडां राखप ....... आपूण झाडार ...... 'वाग आयलो' आड्डी ........ शेतकामती काम सोडून दोंगरार ....... फकाणां केलीं ....... हांसप ....... दुसऱ्यांदां खऱ्यानीच वाग येवप ....... राखण्याल्यो आड्डी ........ आदाराक वचप ना ...... गोरवां, बोकडां वागान खावप ..........

१२) चड आशा - मातयेमोल

एक कामेरी ....... कोंबी विकती घेवप ....... अजापाची गजाल ....... सदांच एक भांगराचें तांती ....... कामेरी धादोशी ....... एकदम गिरेस्तकायेचीं सपना ....... कोंबयेक मारप ....... पश्चताप .......

१३) एकवट - व्हड शक्त

एक शेतकामती ....... म्हातारपण ........ पुतां मदीं एकवट कमी ....... हुस्को ....... पुतांक एक भोरो घेवन आपोवप ....... एकेक बडी मोडप ...... गच्च भोरो ......... मोडपाक कुस्तार ...........

१४) बरें केल्यार बरें फळ

व्हाळाचे धडेर एक झाड ....... झाडार एक पारवो ....... उदकांत मूय व्हांवता ....... पारवो एक पान उडयता ....... पानाचो आदार ...... मूय देगेर ...... कांय दिसांनी ....... पारव्याक मारपाक कासादोरालो नेम ....... मुयेन कासादोराक चाबप ....... कासादोरालो तीर चुकप ........ फाराच्या आवाजान पारव्यान उडप ........ देख.

चत्राय

१) काणी बरयतना सगळ्यांत पयलीं काणयेची रूपरेखा सारखी समजून घेवपाक जाय.
२) विस्तार करतना सुवात, पात्रां क्रमान येवूंक जाय.
३) काणी भूतकाळांत बरोवंक जाय.
४) काणी तीन-चार पॅरेग्राफांत वाटूंन घालूंक जाय. विरामचिन्हांचो फावो तसो उपेग जावूंक जाय.
५) माथाळो फावो तसो बरोवपाक जाय.
६) शिकवण एक दोन वाक्यांत बरोंवक जाय.
७) काणी नितळ आनी सोबीत अक्षरांनी बरोवंक जाय.




# पत्र लेखन

पत्र लेखन हो आमचे जिविताचो एक मुखेल भाग जावून आसा. हालीं तेंपार 'फोन' हे जरी आधुनिक साधन आसलें तरी पत्राची सर फोनाक येना.

कांय कारणाक लागून पयस उरपी आवय, बापूय, भाव, भयण, इश्ट तशेंच अन्य लागींचीं सोयरीं हांचेकडेन पत्राच्या आदारान आमी बरे तरेन संपर्क सादूंक शकतात. तशें पळोवंक गेल्यार पत्र-लेखन ही एक कला. ती सगळ्यांकच जमना; तरी लेगीत ती कला आपणावपाचो यत्न जावूं जाय. घरगुती पत्र बरयतना तातूंत आपलेपणाची भास आपणावंक जाय. अशें दिसूंक जाय कि जणूं आमी एकामेकांकडेन लागींच्यान उलयतात.

व्यवसायिक पत्रांत आपणाक जें कितें सांगपाचें आसा तें थोडे भितर, मुद्दयाक धरून सांगूंक जाय. जाका पत्र बरयता ताचो मान राखून पत्र बरोवंक जाय. ताचो हुद्दो लक्षांत दवरून ताका संबोधित करप भोव गरजेची गजाल.

पत्र बरयतना नामो (पत्तो) गरजेचो. जाका आमी पत्र धाडटात ताचें पुराय नांव, गांवाचे नांव, पोस्टाचें नांव, तालुको वा जिल्हो तशेंच पिन कोड न विसरतां बरोवंक जाय. पत्र बरयतना पयलां मायनो बरयतात. मायनो मान आनी हुद्दया प्रमाण व्यवस्थित बरोवंक जाय. मायन्या बगर पुराय जायना. पत्राचे सगळे भाग म्हत्वाचे. म्हणून पत्र बरयतना दर एक मुद्दो लक्षांत दवरून पत्र पुराय करूंक जाय. ना जाल्यार अज्ञान दिसून येता.

देखीक पत्रांचे कांय नमुने सकल दिल्यात.

# पत्रांचे नमुने

१) शिर्विशेच्या निमतान दुसऱ्या गांवांत आशिल्ल्या आपल्याक धांवपाच्या सर्तींत इनाम फावो जालां म्हणून कळीत करपाक चल्याचें / चलयेचें पत्र.

कु. आनंद / कुमारी आनंदी
झरी-वाडो,
सावर्डा-गोंय,
ता. १५-९-०१

प्रिय बाबा,
नमस्कार.

ह्या वर्सा पंद्रा ऑगस्टाच्या निमतान आमच्या स्कूलांत तरेकवार सर्तींचें आयोजन केल्लें. तुमकां कळोवपाक भोव खोस भोगता कारण म्हाका २०० मी. धांवपाचे सर्तींत पयलें इनाम फावो जालां.

तुमकां वाचून खोस जाल्या आसतली. बाबा तुमच्या जापेची वाट पळयतां.

तुजो / तुजें,
आनंद / आनंदी

२) तालुका पातळीचेर उलवपा सर्तींत इनाम फावो जाल्ले बद्दल परबीं दिवपाक इश्ट / इश्टीणीक पत्र.

कु. पराग / कु. प्रज्ञा,
चिदंबर - नगर,
कुडचडें - गोंय,
१२/९/०१

मोगाळ रमेश / रमा,

नमस्कार,

काल वर्तमानपत्रांत तुजें नांव वाचलें. तुका तालुका पातळीचेर उलवपा सर्तींत पयलें इनाम फावो जालां हें वाचून म्हाका खूब खोस जाली. आई-बाबानय तुजी तुस्त केल्या. सगळ्यांच्यावतीन तुका हुनहुनीत परबीं.

तुज्या आई-बाबाक नमस्कार.

तुजो/ तुजी,
इश्ट/इश्टीण,
पराग / प्रज्ञा

# आमंत्रण पत्रिका

शाराच्या नगराध्यक्षांक आमंत्रण

शाळा सांस्कृतिक समिती,
मडगांव - गोंय,
२०/१/२००१.

भौमानेस्त नगराध्यक्षा,
नमस्कार.

आमच्या स्कूलांत दर वर्साप्रमाण अंदूय 'प्रजासत्ताक दीस' मनवपाचो थारायला. ह्या दिसा विंगड-विंगड कार्यावळी करपाच्यो थारायल्यात. तुमी मुजरत स्कुलांत हाजीर रावन माणकुल्या भुरग्यांची तुस्त - तोखणाय करची अशें नमळायेचें मागणें.

देव बरें करूं.

तुमची,
शाळा सांस्कृतिक समिती.
मडगांव - गोंय

*****

# उरफाटीं उतरां

खरें x फट
नवें x पोरनें
तन्ने x पिकें
थंड x हून
खूब x कमी
सूख x दूख
सोबीत x कुरूप
गिरेस्त x गरीब
स्वतंत्र x परतंत्र
मोव x घट्ट
दीस x रात
गूण x अवगूण
उपयोगी x निरूपयोगी
उदय x अस्त
ज्ञान x अज्ञान
दाट x पातळ
सजीव x निर्जीव
सुपीक x पडंग
भायर x भितर
सकयल x वयर
शुभ x अशुभ
जाणटो x नेणटो
देशभक्त x देशद्रोही

भौशीक x खाजगी
आळशी x उद्द्योगी
उजवाड x काळोख
लाव x लुकसाण
बरें x वायट
शाणो x पिसो
ताजें x शेळें
तोखणाय x निखड्डाय
दीस x रात
आशा x निराशा
पोकोळ x भरीव
भरती x सुकती
हिंसा x अहिंसा
रुचीक x पचकें
स्वदेशी x परदेशी

****



# शब्द समूहाक एक शब्द

लेखन करपी - लेखक कविता करपी - कवी
कीर्तन सांगपी - कीर्तनकार गोरवां राखपी - राखणो
नुस्तें विकपी - नुस्तेकार नुस्तें पागपी - रांपणकार
शेत रोवपी - शेतकार जोतीं करपी -- चामार
लाकडाचें काम करपी - मेस्त लोखणाचें काम करपी - थवय
घर बांदपाचें काम करपी - गंवडो
देव देवसपणाचें काम करपी - भट
भुरग्यांक शिकोवपी - शिक्षक भाशण करपी - वक्तो
भाशण आयकुपी - श्रोतो दान धर्म करपी - दानी
देशसेवा करपी - देश सेवक
देव आसा म्हणून मानपी - आस्तिक
देव ना म्हणपी - मास्तिक भलायकी तपासपी - दोतोर
गायन करपी - गायक सत्यापसत झगडपी - सत्याग्रही
सदांच उजवाडाक येवपी - दिसाळें
आठवड्याक एकदांच उजवाडाक येवपी - सातोळें
म्हयन्याक एकदांच उजवाडाक येवपी - म्हयनाळें



# रजनी अशोक भेंब्रे

पुस्तकां :-

घुस्मट - (कथा संग्रह)
मोराची करामत -" (बाल साहित्य)
पांच पाकळ्यो - (बाल साहित्य)
हांव कोण ??? - ( बाल साहित्य)
झांसीची राणी (बाल साहित्य)
कोंकणी निबंद – ( पाचवी ते सातवी)
सुखी संवसार – (संवाद)
कोंकणी निबंद – (२री ते ४थी)
आळ – बाल साहित्य

कथां वांगडा भुरग्यांखातीर नाटकुलीं बरयल्यांत. आकाशवाणी पणजी केंद्रावेल्यान आयजवेर सुमार पंदरा नाटकुलीं प्रसारीत जाल्यांत. जाल्यार धायेक एकांकी स्कुलाच्या स्नेहसंमेलनांत, सर्तींनी आनी उत्सवांनी माचयेर आयल्यांत. शिवाय आकाशवाणी पणजी खातीर तरेकवार लेखन, लेख, कथा प्रसारीत जाल्यात.
लेखना वांगडाच सावर्डे, कुडचडे वाठारांत जावपी साहित्यिक, सामाजिक आनी सांस्कृतिक कार्यावळींनी भाग घेता. बायलांच्या कार्यावळींनी संघटक म्हण वावुरता.